


# गुंड्या, गुड्गुडो आनी मस्तूल

माया अनिल खरंगटे

मोहीत प्रकाशन

# गुंड्या, गुडगुडो आनी मस्तूल

माया अनिल खरंगटे

**Gundya Gudgudo ani Mastul**

Maya Anil Kharangate

**प्रकाशन क्र.** 3



09420685278

**पयली उजवाडावणी**

2013

**उजवाडावपी**

मोहीत प्रकाशन

सी-4-1, वैभव अपार्टमॅण्ट,

मारुती देवळा लागीं

दवर्ली, नावेली, गोंय 403 707

**भितरलीं चित्रां**

सिया अतुल पंडित

**मांडावळ**

एस ग्राफिक्स

**छापणावळ**

हिरू नारायण नायक

रुतू ऑफसेट, वळवय, फोंडें

**मोलः** रु. 80/-

# मांडावळ

# गुंड्या, गुड्गुडो आनी मस्तूल

त्या दिसा गुंड्या शाळेच्या भायर येवन मम्माची वाट पळयतालो. हरशीं मम्मा सद्दां शाळा सुटचे पयलींच येवन भायर उबी रावता. गुंड्या मम्माक सदांच सांगतालो, “मम्मा, सगळ्यांचे मम्मा-पप्पा येवचे पयलीं तुवें येवूं जाय आं, हांव एकटोंच निमणो उल्लों जाल्यार म्हाका भंय दिसता.”

आयज चडशीं भुरगीं घरा गेल्लीं. पूण गुंड्याची मम्मा अजून येवूं नासली. गुंड्याक वाज आयलो. तो पांयांनी फातर मोखीत खेळत, खेळत दुरगा म्हऱ्यांत आयलो. दारांत शिपाय आसता. ताणें गुड्यांक्र हडकिलो. “गुंड्या, तूं अजून वचुना. मम्मान येवंक वेळ जातलो म्हणिल्लें?”

“ना रे, ती कित्याक येवुना तें पळोवंक हांव हांगा आयलां.”



“तूं हांगा आयल्यार ती बेगीन येतली?”

“ना रे म्हाका वाज येता. हांव हांगाच रावतां तुज्या म्हऱ्यांत.”

अशें सांगून गुंड्या ताच्या स्टुलार वचून बसलो. दोन मिनटां जातात थंय आसात गुंड्याक परत वाज आयलो. तो ल्हवूच उठून दुरगाच्या दारांत उबो रावलो.

दुरगा भायर खळी आसली. पावसा दिसांनी तातूंतल्यान उदक व्हांवतालें. गुंड्या आनी ताचे इश्ट घरा कडल्यान व्हडीं करून हाडून शिपायाचो दोळो चुकोवन उदकांत सोडटाले. आयज ती खळी सुकी आसली. पूण तातूंत एक

सुण्या पेटो कुंऽय, कूंऽय, कूंऽय, कूंऽय करत आसलो. तो मातयेन लोळिल्लो. पळोवंक बुरसो दिसतालो. ताचे दोळे मात उदकान भरिल्लेशे बरे दिसताले.

गुंड्याक ताका पळोवन मात्सो वीटसो दिसलो. पूण ताका सुण्या-माजरांची सामकी आवड. तो हळूच ताचे लागीं गेलो. तो पेटो आपल्या काळ्या काळ्या बिटबिटीत दोळ्यांनी गुंड्याक पळयतालो. तो आतां चडच कूंऽय, कूंऽय करूंक लागलो. गुंड्याक ताचे दोळे आवडले. गुंड्यान ताका म्हळें,

"कितें जालें रे तुजें? तूं एकटोच हांगा कित्याक? म्हजी मम्मा अजून म्हाका व्हरपाक येवुना. तुजीय मम्मा तुका व्हरपाक येवुना?"

गुंड्याचें उलोवप आयकून पेटो चडूच कूंऽय कूंऽय करूंक लागलो.

तितले म्हणसर शिपायाचें लक्ष गुंड्याचेर गेलें. ताणें एक धेंगसो घालून गुंड्याक भितर आपयलो. तेन्नाच ताची मम्मा आयली. तिणें म्हळें, "गुंड्या सॉरी आं, वाटेर स्कूटर पंक्चर जाली. म्हणून येवंक मात्सो वेळ जालो."

गुंड्यान म्हळें, "मम्मा खूब वाज आयलो म्हाका. फाल्यां असो वेळ करूं नाका आं."

मम्मान हांसून ताची अपुरबाय केली आनी ताका घेवन गेली.

गुंड्या घरा आयलो, जेवलो, न्हिदच्या वेळार ताका परत त्या पेट्याची याद आयली. "ताची मम्मा आयली काय? ताका जेवण, बी दिलें काय?" हे प्रस्न मनांत घोळयत तो कूस परतीत रावलो. आपलें काम सोंपोवन मम्मा ताच्या म्हऱ्यांत आड पडपाक आयली. पळय जाल्यार गुंड्या जागोच

आसा. तिणें ताका विचारलें, "गुंड्या अजून न्हिदुना?"

ते बराबर गुंड्यान आपलो हुस्को मम्माक सांगलो. मम्मा हांसली, "आरे, इतलो वेळ तूं ताचोच विचार करता? चल न्हीद. ताची आवय येवन ताका दुदू दिवन गेल्या आसतली. आनी ती ताका थंयच सोडचिना, ताका तोंडांत धरून आपल्या जाग्यार व्हरतली. तूं न्हीद वोग्गी."

गुंड्या न्हिदलो. पूण पेटो ताच्या मनांतल्यान वचूंक नासलो.

दुसऱ्या दिसा शाळेंत वतना ताणें पावाच्यो दोन स्लायसी कागदांत गुठलावन आपल्या दप्तरांत घाल्यो. पप्पान ताका शाळेंत पावयलो. पप्पाची स्कूटर पयस वतकच तो हळूच दुरगा म्हऱ्यांत आयलो. पळय जाल्यार तो पेटो थंयच आसा. ताणें खोशयेन ताका हडकिलो. आपल्या बॅगांतल्यान पावाच्यो स्लायसी काडून ताच्या म्हऱ्यातं उडयल्यो. तेन्नाच शिपायाचें लक्ष गुंड्याचेर गेलें. ताणें गुड्यांक भितर व्हरून सोडलो.

आयज ताचें वर्गांत लक्ष लागलें ना. मदले सुटयेंत खावंक खातना ताणें थोडें खावंक कागदांत गुठलावन बॅगांत दवरलें. आनी रिकामें टिफीन टिचरीक दाखोवन शाबासकी घेतली. मदले सुटयेंत शिपायाची नदर चुकोवन ताणें तें खावंक पेट्याक घालें. शाळा सुट्टकच मम्मा वेळान आयल्यार पुरो म्हणून तो मागतालो.

शाळा सुटले बराबर, सगळ्यांक धुकलत तो बेगीन भायर आयलो. भायर मम्मा नासली. तो सोमतोच गेटी म्हऱ्यांत आयलो. तो पेटो खळयेंतूच

बसून आसलो. गुंड्यान ताका हळूच हात लायलो. तो खावंक दिवंक आयला अशें समजून पेटो ताच्या हाताक तोंड लावंक लागलो. गुंड्याक खोस जाली. 'आयज तरी ताका कसोय घरा व्हरूंकच जाय' अशें ताका मना पसून दिसतालें. "पूण ताका व्हरतलों कसो? फाल्यां पिशवी घेवन येवन कसोय करून ताका व्हरपच." असो मनांतल्या मनांत निश्चेव करून पेट्याक सासपीत तो गेटी कडेन आयलो.

तेन्नाच ताची मम्मा स्कूटर थांबयताली. गुंड्या सोमतोच मम्मा म्हऱ्यांत गेलो.

दुसऱ्या दिसा गुंड्यान एक ल्हानशी पिशवी काडून बॅगेंत घाली. एका टिफीनांत घालून थोड्यो बिस्कुत्योय बॅगेंत दवरल्यो.

पप्पान शाळेच्या दारांत पावयतकच, पप्पा वचसर तो थंयच रावलो. मागीर तो खळये म्हऱ्यांत आयलो. खळयेंतच मात्सो मुखार वचून तो पेटो हेवटेन तेवटेन धांवून खेळटालो. गुंड्यान ताका चुकऽ चुकऽ करून आपयलो. गुंडयाक पळयले बराबर तो धांवून आयलो. गुंड्यान ताका बिस्कुत्यो घाल्यो आनी मागीर येता, म्हणून शाळेंत धांव माल्ली.

शाळा सुट्टकच मम्मा येवचे पयलीं ताका तो पेटो पिशवेंत घालूंक जाय आसलो. मम्मा बेगीन आयल्यार ती त्या पेट्याक हात लावंक दिवची नासली. गुंड्यान बरो वेळ विचार केलो. ताणें आपल्या वर्गांतल्या एक्काय इश्टाक त्या पेट्याची खबर सांगूक नासली. आपले इश्ट त्या पेट्याक व्हरत

म्हणपाचो ताका हुस्को आसलो. 'पेट्याक घरा कसो व्हरप?' तो येवजूंक लागलो. मागीर ताणें एक माण्णी केली. शाळा सुटपाक थोडो वेळ आसतना ताणें टिचरीक सांगलें,

"टिचर, टिचर, आयज म्हज्या मम्मान म्हाका मात्सो बेगीनच घरा व्हरता म्हळां, तिका काम आसा खंय. हांव भायर वचून रावूं?"

टिचरीन ताका भायर वचपाक मान्यताय दिली. आपलें बॅग घेवन तो बेगिबेगीन भायर आयलो. दारांतल्या शिपायाकय ताणें हेंच कारण सांगपाचें थारायिल्लें. पूण दारांत शिपाय नासलो. तो खंय तरी कामाक गेल्लो. हीच संद घेवन गुंड्या खोशयेन भायर आयलो.

तो पेटो ते खळयेंत मात्सो पयसचसो बसून रस्त्यार पळयतालो. गुंड्यान बॅगेंतली पिशवी आनी दोरी काडली. बॅग सकयल दवरलें आनी हळूच पेट्याक काडून पिशवेंत घालूंक लागलो. पेटो पिशवेंत वचूंक तयार नासलो. तो हात-पांय हालोवंक लागलो. तरी पूण खर यत्नान गुंड्यान ताका भितर घालो. पिशवेक बेगिबेगीन दोरी बांदली. आनी सूऽ करून उबो रावलो.

तितले म्हणसर शाळेचे गेटी कडेन पालक येवंक लागिल्ले. गुंड्यान आपल्या बॅगा फाटल्यान ती पिशवी लिपोवन तो थंयच उबो रावलो. थोड्या वेळान शाळा सुटली. आनी ताची मम्माय आयली. भुरग्यांचे गर्देंतल्यान गुंड्या धांवून मम्मा म्हऱ्यांत गेलो. स्कूटरी मुखार बॅग दवरतना हळूच पेटो घाल्ली पिशवीय ताणें दवरली. मम्मान ज्युस्त पळयलें. तिणें म्हळें,

"गुंड्या पिशवेंत कितें आसा?"

"मम्मा बेगीन घरा या. मागीर तुका दाखयतां. हे गर्देंत नाका." उलयतां उलयतां गुंड्या मम्मा फाटल्यान बसलो. बिल्डींगेच्या गेटींतल्यान स्कूटर भितर घेवन मम्मान थारायली. गुंड्या सडसडीत देंवलो. पेटो कूंऽय कूंऽय आवाज करतालो. इतलो वेळ स्कुटरीच्या आवाजा मुखार तो कोणेंच आयकूंक नासलो. आतां मम्मान तो ज्युस्त आयकलो. तिणें तापून विचारलें,

"गुंड्या कितें हाडलां तुवें?"

"मम्मा घरा वतकच दाखयतां." म्हणत आपली बॅग आनी ती पिशवी घेवन तो धांवत सोपणां चडूंक लागलो. मम्मान स्कूटर जाग्यार दवरली, आनी तीय सडसडीत वयर आयली. ताईन दार उगडून गुंड्याक भितर घेतिल्लो. गुंड्या सरळ गॅलरींत गेलो. फाटोफाट आयिल्ली मम्माय गॅलरींत आयली.

गुंड्यान हातांतली पिशवी सकयल दवरली आनी मम्माक म्हळें, "मम्मा हावें कितें हाडलां, तें पळोवन तूं तापनाका आं."

"पळोवचे पयलींच तापनाका म्हणटा? म्हणटकच तापपा सारकेंच कितें तरी हाडलां आसतलें तुवें."

"ना मम्मा तशें...."

"तशें न्ही आनीक कितें? येदोळ भितल्ल्यान आवाज येतालो. सुण्या पेटो हाडला काय माजरा पेटो हाडला?"

“मम्मा हो सुण्या पेटो. आमचे शाळे कडेन खळयेंत एकटोच आशिल्लो.”

‘एकटोच आशिल्लो म्हणून तुवें हाडलो? आरे पापया ताची आवय खंयूस लागींच हांगा-थंय आसतली. आपल्या पेट्याक हात लायल्यार खंयचेंच जनावर वोगी रावना. ताचे आवयन तुका पळयिल्लो जाल्यार घांस मारतली आसली ती.”

“ना मम्मा, दोन-तीन दीस जाले, तुका त्या दिसा शाळेंत येवपाक वेळ जाल्लो न्हय, त्या दिसाच हो पेटो म्हाका ते खळयेंत दिसलो. ह्या दोन दिसांत हावें ताका म्हज्या टिफिनांतलो पाव, बिस्कुत्यो खावंक घाल्यात. तो आतां म्हजो इश्ट जाला. ताका कोणय व्हरत, कितेंय करत म्हणून हांवें हांगा हाडला. प्लीज मम्मा, नाका म्हणूं नाका, ताचे दोळे पळय काय बरे दिसतात.”

“बरें, बरें, पळोवया तरी कसो दिसता तो. रोगी बी आसल्यार हांव ताका घरांत घेवची ना आं.”

मम्माचो हयकार पळोवन ताईन पिशवेचो दोर सोडलो. ते बराबर तो पेटो कूंऽय कूंऽय करत शेंपडी हालयत भायर आयलो. मुखा वयलो दोनय पांय लांब करून ताणें आळस काडलो. आनी आपल्या उदकाळ दोळ्यांनी टुकू-टुकू करून मम्माक पळोवंक लागलो.

गुडगुडीत, तांबसार, धवसो आनी काकुळटेण्या दोळ्यांनी पळोवपी पेटो मम्माक आवडलो. हरशींय जाल्यार मम्माक सुण्या माजरांची आवड. लग्न

जावचे पयलीं तीय अशीच सुणीं-माजरां हाडून घरांत पोसताली. तांकां न्होणावप, भायर भोंवडावप सगळो वावर तीच करताली. पूण आतां फ्लॅटांत रावंक येक साकून आनी कामाच्या ताणा मुखार तिका जनावरां, तांची उस्तवारी करप नाकाच दिसतालें. तरी गुंडूक जाय म्हणून तांणी एक माजरा पेटो हाडिल्लो आनी ताची मस्ती पळोवन गुंड्या ताका मस्तूल म्हणटालो.

मम्मान ताईक म्हळें, ''आगो त्या गुडगुड्याक व्हरून पयलीं न्हाणय. कितलो बुरसो आसा पळय तो.''

गुंड्याक गुडगुडो नांव आवडलें. ताणें म्हळें, ''मम्मा आमी हाका गुडगुडोच नांव दवरुंया, काय बरो कापसाचो गुठलो कसो गुडगुडीत दिसता पळय.''

ताईन ताका बरो करून न्हाणयलो. तेन्ना तो आनीकय सोबीत दिसलो.

रातचो पप्पा घरा येतकच गुडगुड्याक पळोवन बरोच तापलो. ''पयलीं माजर हाडलें, आतां सुणो. आनीकय सगळीं जनावरां हाडात. मागीर सर्कस करात आवय-पूत मेळून. हांव म्हाका रावंक दुसरो फ्लॅट घेतां.''

मम्मान ताका फुसलायलो. मम्मा कडेन बरो वेळ वाद घालतकच पप्पान एक अट घालीत गुडगुडड्याक दवरूंक मान्यताय दिली, ''म्हज्या हांतरुणार, सोफाचेर ताची ल्हंव म्हाका दिसूंक जायना.''

पप्पाक तांचे ल्हंवेचो सामको वीट येतालो. ती पोटांत गेल्यार कसले कसले रोग जातात अशें ताणें खंय तरी वाचिल्लें खंय. तेन्नाच्यान तो सुण्या माजराक हात लायनासलो.

म्हणून मम्मान थारायिल्लें मस्तूल आनी गुडगुड्याक चड करून गुंड्याचे कुडींत ना जाल्यार वारांदारच दवरप म्हणून. पूण मस्तूल सामकें मस्तें. तें कशेंच आयकनासलें. सगळ्याक फिरतालें. पप्पा जेवंक बसतक ताच्या पांयां मदीं घुस्पतालें. एक दीस पप्पान ताचेर नेटान खोंट मारली. तें बरेंच वळवळ्ळें. तेन्नाच्यान तें पप्पा म्हऱ्यांत येना जालें. ताका सोफाचेर बसूंक आवडटालें. ताई ताका सोफाचेर कशेंच बसूंक दियनासलें. बडी घेवन ताका धांवडायत रावतालें. मागीर मस्तूलाक सोफाचेर बसूंक जायना म्हणपाचें कळ्ळें.

मस्तूलाची आनी गुडगुड्याची इश्टागत करूंक गुंड्याक बरेच त्रास जाले. तीं एकामेकाच्या आंगार झडूम वचून झगडीं करतालीं. पूण एकदांची तांची इश्टागत जाली. आतां दोगांय एकामेकांक पातयेनासलीं. गुडगुड्याक वारांदाचेरच बांदतालीं. आनी मस्तूल सगळे कडेन भोंवून ताचे म्हऱ्यांत येवन बसतालें. दोगांय एकामेका कडेन खेळटालीं. एकामेकाचेर तकली दवरून न्हिदतालीं. मदीं मदीं फकांडांनी झगडटालींय बी. तेन्ना शेंपडी हालयत गुडगुडो कूंऽय कूंऽय करतालो. जाल्यार मस्तूल गुरम्यांव- गुरम्यांव असो वेगळोच आवाज काडटालें. तेन्ना समजुपाचें तीं फकांडांनी झगडटात म्हणून.

गुंड्या सदांच सांजवेळचो सकयल खेळपाक वतालो. थोड्या वेळान आपलीं सांजवेळचीं कामां सोंपोवन ताई गुडगुड्याक घेवन सकयल पासयेक

वतालें. तांचे बिल्डींगे सकयल बरी बाग केल्ली. तेन्ना मस्तूल ताई बराबर सकयल वचूंक म्यांव-म्यांव करून ताचे फाटीं फुडें नाचतालें. मागीर ताकाय वेंगेंत घेवन ताई पासयेक वतालें.

गुंड्याचो खेळ सोंपलो काय गुंडू आनी ताचे इश्ट गुडगुड्याक आपले बराबर खेळूंक व्हरताले. ताचे कडेन बॉल उडोवन ताका हाडपाक लायताले. गुडगुडोय उमेदीन कोणेंय उडयिल्लो बॉल धांवून वचून हाडटालो आनी गुंडू कडेन दितालो. चलयो चड करून मस्तूलाक वेंगेंत घेवन खेळटाल्यो. गुडगुडो आनी मस्तूल सगळ्या भुरग्यांचीं अपुरबायेचीं जाल्लीं.

ताईन तांकां संडासांत वचून शी-सू करपाक शिकयिल्लें. सकयल पासयेक वतकच ताई तांकां भायर व्हरून शी-सू करून हाडटालें.

गुडगुडो आनी मस्तूल जशीं जशीं व्हड जातालीं तशी तांची मस्ती वाडटाली. तितलें गुंड्याक तांचे बराबर खेळूंक मजा येताली. आपलो घरपाठ बेगिबेगीन सोंपोवन गुंडू तांचे वांगडा खेळटालो.

तांचे बिल्डींगेतलीं सगळीं भुरगीं गुंड्याच्या मस्तूलाचेर आनी गुडगुड्याचेर खूश आसलीं. पूण बिल्डिंगेतले जाण्टे चड करून गुंड्याचे शेजारी भितल्ल्यान तांचेर बेजार आशिल्ले. बायलां एकामेका कडेन उलयतालीं, ‘‘बिल्डींगेंत म्हणून सुणीं माजरां पोसतात?’’

‘‘तीं तांगेरच रावंक आयल्यांत काय कितें. तें माजर तर आमगेर येतलेंच, कितें सांगता तें पळय हांव.

“आमगेर येवनीच तें, हांव जाल्यार हाताक मेळटा तें ताचेर काडून मोखून मारतलें. मागीर ताचे पांय मोडूं ना तर कितेंय जावं.”

शेजाऱ्यांचो हो कुचकूच मम्माच्या कानार गेल्लो. तिकाय तांचें मस्तूल दुसऱ्यांगेर वचून तांची वाट लायिल्ली नाका आसलें. तिणें ताईक मस्तूंलाक शेजाऱ्यांगेर कशेंच वचूंक दिवूंक नाका, म्हणूने सांगून दवरिल्लें. ताई मस्तूलाक दारा भायर वचूंकच दिनासलें. सारकें बरें सांबाळटालें. दारा भायर लोखंडी जाळयेचें दार आसलें. पयलीं गुंडू ल्हान आसतना ती गेट बंद करून तीं दार उकतें दवरतालीं. पूण आतां ताई कशेंच दार उकतें दवरिनासलें. कोणय आयलीं गेलीं काय दार रोखडेंच धांपतालें.

सांजेचें जेन्ना ताई गुडगुड्याक फिरपाक व्हरतालें तेन्ना ताच्या गळ्यांत सरपळी घालून व्हरतालें. पूण मस्तूलाक वेंगेंत घेवन व्हरतालें. पयलीं पयलीं बागेंत पावलें काय मस्तूल उडी मारून सकयल देंवतालें. पूण ताई आनी गुडगुड्या भोंवतणीच फिरतालें. चड पयस खंयच वचनासलें.

हळू हळू मस्तूल बागेंत सगळे कडेन भोंवून ताई म्हऱ्यांत येवूंक लागलें. सांजच्यो बिल्डींगेंतल्यो कांय बायलोय बागेंत बसूंक येताल्यो. जायते वेळा तांचे कडेन ताई उलोवंक बसतालें. ताची नदर चुकोवन मस्तूल हळूच दुरगा भायरय वचून येतालें. पूण ताईन मस्तूल म्हूण उलो केले बराबर धांवून येतालें. आनी ताच्या पांयाक आपली शेंपडी आपटीत आपटीत घश्टतालें.

ते दीस सदचेवरी गुंड्यान गुडगुड्याक आपले वांगडा खेळूंक व्हेलो. ताई

शेजाऱ्री कडेन उलोवंक लागलें. मस्तूल ताच्या पांया कडेन खेळटालें म्हणटा महणसर तें केन्नाच भायर धांवलें. ताई खबऱ्यांत गुल्ल. ताच्य लक्षांत आयलेंना.

तीनसांज जातकच ताईन गुंड्याक उलो मारलो. गुडूं गुडगुड्याक घेवन आयलो. ताईन हेवटेन तेवटेन मस्तूलाक सोदलें. पूण मस्तूल खंयच दिसलें ना. ताईन उले माल्ले. गुंड्यान उले माल्ले. पूण सदचेवरी मस्तूल धांवून आयलें ना. सगळीं भुरगीं मस्तूलाक उलो मारत, चूक-चूक चूक-चूक करीत हेवटेन तेवटेन भोंवूंक लागलीं. गुडगुडोय मस्तूल शेणलां म्हणपाचें कळिल्ले वरी वेगवेगळे आवाज काडून ताका आपयतालो. मदींच भोंकतालो. पूण मस्तूलाची जागमाग नासली.

दुरगा भायर वचून लेगीत सगळ्यांनी सोदलें. पूण तें मेळ्ळें ना. इतल्यांत गुडगुड्याक कितें तरी सुलूस लागली जावंये. वास घेतिल्ले वरी करीत गुंड्याक ओडीत ओडीत गुडगुडो मुखार वचूंक लागलो. फाटल्यान ताई वास आनी चलयो वचूंक लागल्यो. गुडगुडो मदीं मदीं उबो रावन कान वयर काडून कितें तरी आयकल्ले वरी करतालो. वास घेतिल्ले वरी करतालो आनी मुखार वतालो. गुंड्याचो इश्ट अभी तांचे बराबरच आसलो. ताणें गुडगुड्याची करणी पळयली आनी म्हळें, ''गुडगुड्या तुवें मस्तूलाचो आवाज आयकलो काय कितें रे?''

''हय म्हणून सांगतलो तो तुका.'' सनीन हांसून म्हळें.

इतल्यान गुंड्याच्या हाताक झटको दिवन गुडगुडो सुटलो आनी ताणें पयस आशिल्ल्या झोंपा वटेन धांव माल्ली. गुंड्या आनी ताचे इश्टय गुडगुड्या फाटल्यान धांवले. ताई आनी त्यो चलयोय ते वटेन वचूंक लागल्यो.

मुखार धांवून गेल्लो गुडगुडो झोंपा फाटल्यान आशिल्ल्या मस्तूला म्हऱ्यांत वचून उबो रावलो. गुंड्या आनी हेर सगळेच थंय पावले. ताणीं पळयलें, शेंपडी आनी आंगाची ल्हंव फुलोवन मस्तूल गुरम्यांवऽ गुरम्यांव आवाज करीत झोंपा भितर पळयतालें. भितर आनीक एक माजर कितें तरी खातालें. तेंय म्यांव म्यांव करून व्हडान आवाज काडटालें. गुडगुड्यान मस्तूला म्हऱ्यांत वचून ताका आपली सोंड तेंकयली आनी क्यांवऽ क्यांव असो वेगळोच आवाज काडलो. मस्तूलानय गुर्र गुर्र करून आवाज काडलो आनी फुलयिल्ली ल्हंव सारकी केली. मागीर गुडगुड्याच्या पांयाक घश्टत ताचेर शेंपडी मारत घरा वटेन चलूंक लागलें.

भुरगीं गुडगुडो आनी मस्तूला भोंवतणीं रावन बोवाळ घालीत बिल्डींगेंत आयलीं. मस्तूल सामकें लोळिल्लें. ताईन ताका तशेंच उबारून बाथरुमांत व्हेलें आनी ओल्या कुडक्यान पुसून काडलें. तरीय मस्तूलान आपले जिबेन आपलें आंग चाटून चाटून निव्वळ केलें.

उपरांत दोन दोन दिसांनी मस्तूल सांजवेळचें सकयल व्हरतकच नाच जातालें. भायर ताका आनीक माजरां मेळटालीं. तांचें वांगडा खेळून तें बुरशें

जावन येतालें. मागीर मम्मान म्हळें, “आगो, मस्तूलाक सांजवेळचें भायर व्हरूं नाका. कशें लोळून येता पळय तें.”

सांजवेळचे ताई गुडगुड्याक पासयेक घेवन वतना मस्तूल म्यांवऽ म्यांव करून बोवाळ घालतालें. गुडगुडोय कूंय कूंय करून ताका आपयतालो. परत परत घरा वटेन धांवतालो. ताकाय मस्तूलाक भितर दवरिल्लें आवडूंक नासलें.

दोन-तीन दीस तांचें तळमळप पळोवन निमणें मम्माक तांची दोगांयचीय काकुळट आयली. तिणें मस्तूलाकय भायर व्हरपाची मान्यताय दिली. ताईन ताका भायर व्हेलें. बागेंत पावतकूच ताच्या पोल्यार थापटावन ताका सांगलें, “मस्तूल हे बागेंत जाय थंय भोंव पूण दुरगा भायर वचूंक जायना, कळ्ळें?”

‘कळ्ळें, म्हणिल्ले वरी मस्तूलान ‘क्यांव क्यांव गुर्र असो आवाज काडून ताईच्या हातांतल्यान सकयल उडी घेतली आनी धांव माल्ली. दोन-तीन दीस मस्तूल ताईचें उलोवणें समजिल्ले वरी बागे भायर गेलें ना.

बागेंतच भोंवतालें. गुडगुड्या बराबर खेळटालें. मागीर एक दीस सगळ्यांची नदर चुकोवन तें हळूच दुरगा भायर आपल्या इश्ट-इश्टिणींक मेळूंक गेलें. बरोच वेळ तें आयलें ना. ताईन मस्तूल मस्तूल म्हणून उलो मारूंक सुरवात केली. तेन्ना गुडगुडो धांवून भायर गेलो आनी मस्तूलाक घेवन आयलो.

अशें चार-पांच दीस चलतालें. एक दीस मस्तूल आयलें तें जिबेन तोंड चाटतच.

‘‘कितें खावन आयलां गो रुचीचें. जिबोळ्यो चाटीत आसा.’’ ताई म्हळें.

त्या दिसा तें घरांतलें जेवण जेवलें ना. दुसऱ्या दिसाय ताणें कांयच खाल्लें ना. ताचें पोटय बरेंच मोटें जाल्लें. आनी तें आळसाविल्ले वरी पातळटालें. मम्माक कळ्ळें, तिणें म्हळें, ‘‘भायर गेल्ले कडेन हाणें कितें पूण खालां आं. आतां ओंकतलें हें. सांजवेळा पप्पा येतकच दोतोरागेर व्हरुंया ताका.’’

पूण सांजवेळा ताईन भायर वचूंक दार उगडटकच मस्तूल खंयच्यान तरी आयलें आनी धांवत भायर गेलें. ताचे फाटोफाट गुड्गुडोय धांवलो. तांचे फाटोफाट ताईय गेलें. पळय जाल्यार मस्तूल सकयल बागेंत आशिल्ल्यो दुर्वा खातालें.

‘‘आंवय, आंवय मस्तूल दुर्वाशें खाता? काल रातच्यान कांयच खावूं ना तुवें.’’

गुंड्या आनी ताच्या इश्टांनी ताईचो आवाज आयकलो आनी तेय म्हऱ्यांत आयलें.

‘‘कितें जालां ताचें ताई?’’ इबानान विचारलें.

थंयच पासयो मारपी आण्टी म्हऱ्यांत आयली. तिणें सांगलें, ‘‘भिवंनाकात तुमी, दुर्वा तांचें वखद.’’

‘‘कितें दुर्वा आनी वखद?’’

“हय. कालच्यान जेवूं खावूं ना म्हणटालें मगो तूं. ताणें कितेंय वायट खालां जातालें. ताका तें पचूंक ना. आतां ओकतलें तें. मागीर निवळटलें.”

खऱ्यांनीच थोड्या वेळान म्यांव म्यांव आवाज करून तें दुरगा भायर गेलें आनी ओंकलें. मागीर येवन ताईच्या पांयाक घशटत ताचे म्हऱ्यांत येवन बसलें. रातचो पप्पा येतकच मम्मान ताका दोतोरागेर व्हेलें. ताणेंय ते आण्टीन सांगिल्लें तशेंच सांगलें. आनी ताका वखद दिलें.

घरा येतकच पप्पान मम्माक म्हळें, “तुमकां सुणीं माजरां जाय म्हणून पोसतात मूं तुमी? जाल्यार तांकां अशीं जगार कित्याक सोडटात?” मम्मान कांयच जाप दिली ना. मस्तूलाक पोशेत वोग्गी बसली.

दुसऱ्या दिसाच्यान मात तिणें मस्तूलाक कशेंच भायर व्हरपाक दिलें ना.

तिनसांजेचो घरा येतकच गुंड्या थोडो वेळ अभ्यास करतालो आनी मागीर आपल्या धाकटुल्या धोलतेरार बसून टि.व्ही. कार्टून लावन पळयतालो. तेन्ना मस्तूल खंयूय आसल्यार धांवून येतालें आनी पुट्ट करून उडी मारून गुंड्याचे वेंगेंत बसतालें. ताका पोशेत गुंड्या टि.व्ही. पळयतालो. गुडगुड्याकय कार्टून आवडटालें. गॅलरींतल्या दारांतल्यान ताका टि.व्ही. दिसतालो. सदांच तो थंयच्यानच टि.व्ही. पळयतालो. पूण गुंड्याचे वेंगेंत मस्तूलाक पळयतकूच ताका राग येतालो. आपल्याकय गुंड्यान वेंगेंत घेवन कार्टून पळोवचें अशें ताका दिसतालें जावंये. ताणें क्यांव-क्यांव - कूं--कूं अशे विचित्र आवाज काडून बोवाळ घालचो. पूण गुंड्या ताचेर एक धेंगसो घालतालो आनी ताका

वोग्गी बसयतालो. अशा वेळार मात गुडगुड्याक मस्तूलाची नसाय जाताली.

पप्पा येसर तांचें हें काम चलतालें. पप्पा येतकच गुंड्या मस्तूलाक भितर धांवडायतालो. मागीर गुडगुड्याचोय बोवाळ बंद जातालो.

गुंड्याचे शाळेक सुटी पडिल्ली. गुंड्या सकाळचो आदेस टि.व्ही. पळयतालो. कम्प्युटर गेम खेळटालो, मदीं केन्ना गुडगुड्या म्हऱ्यांत बसून चित्रांय रंगयतालो. तेन्ना एक शाणो कसो वोग्गी बसून गुडगुडो चित्रां पळयतालो. मदीं मदीं वारांदाच्या ग्रिल्सांचेर कावळे, चिमण्यो येवन बसल्यो काय तो तांचेर भोंकतालो. जश्यो कितें त्यो येवन गुंड्याचे रंग व्हरतल्यो.

हरशीं गुंड्याक घाल्लें खावंक हांगा थंय पडटालें. तें खावंक चिमण्यो हुस्क्या मेकळ्यो जावन भितर येताल्यो. गुडगुड्या भोंवतणीं भोंवन खाण खावन वताल्यो. गुडगुडो तांकां कांयच करिनासलो. ताचे ताटलेंतल्या शिताक चोंच लायल्यार मात गुर्र करून आंगार येतालो.

गुंड्या चित्रां रंगोवपाक बसतकच ताई लेगीत ताका आपोवंक आयल्यार तो ताचेर गुरगुरतालो.

गुडगुड्याक ताई तशें सामकें आवडटालें. तो ताका न्हाणयतना बी केन्नाच त्रास करिनासलो. पूण दोन कारणाक तो ताईचेर गुरगुरतालो. एक म्हणल्यार ताणें गुंड्याक तापोवंक जायनासलें. फकांडांनी लेगीत गुंड्याचेर ताणें हात उबारल्यार तो ताई लागीं आसल्यार ताच्या आंगार झुडून वतालो. पयस आसल्यार भोंकून घर माथ्यार घेतालो. दुसरें म्हणल्यार एक फावट जेवण

भरून ताटली दिली काय ती रिकामी जायसर ताईन ताका हात लावंक जायनासलें. एक खेप ताई नुस्तें वाडूंक विसरलें म्हणून तो जेवतना नुस्तें घेवन गेलें जाल्यार गुडगुड्यान ताच्या हाताकच घांस माल्लो. गुडगुड्याक मम्मा वेळच्या वेळार इंजेसांवां, हेर वखदां दिता म्हणून ताईक व्हडलें कांय जालेंना. दोतोर काकान वख़द लावन आनी एक इंजेसांव करून घाय पेखयलो. तेन्नाच्यान गुडगुडो खाता आसतना कोणच ताचे ताटलेक हात लायनासलो.

सुटये दिसांनी गुंड्या सकाळचो वेळ घरांतच पासार करतालो खरो पूण सांजवेळचो तो आनी इश्ट तांचे बिल्डिंगे सकयल खेळटाले. तांचे बिल्डींगेच्या फाटल्यान एक ल्हानशी दोंगुल्ली आसली. दोंगुल्ले पलतडीन एक व्हाळ व्हांवतालो. ताचे देगेर ल्हान व्हड तळपां आसलीं. गिमाच्या दिसांनी व्हाळाक पावलभर उदक आसतालें. मुखार वता तसो तसो तो व्हाळ मात्सो खोल जायत गेल्लो आनी नेटान व्हांवतालो.

बिल्डिंगेतलीं बायलां केन्नाय सांजेचीं भुरग्यांक घेवन ते दोंगुल्लेर भोंवूंक वतालीं. व्हाळा धडे वयल्या तळपार बसतालीं. पूण भुरग्यांक थंय एकटीं केन्नाच धाडनासलीं. ह्या वर्सा गुंड्या आनी ताच्या इश्टांनी एक दीस ते दोंगुल्लेचेर वचपाचें थारायलें.

सांजवेळ जातकच तांणी उदकाच्यो बाटल्यो भरून घेतल्यो. च्या बराबर मम्मान खावंक दिवंक डबो उगडटकच गुंड्यान म्हळें, ‘‘मम्मा आयज

आमी सगळ्यांनी एकठांय बसून एकामेकांचें खावंक वांटून खावपाचें थारायलां. म्हाका टिफीन भरून खावंक दी.''

सगळ्यांनी आपआपल्या मम्मांक अशें सांगलें. मम्मांनी उमेदीन टिफीनां भरून दिली.

ताणीं गुडगुड्याकय वांगडा व्हरपाचें थारायिल्लें. ह्या दिसांनी मस्तूल मात्शें थंडशें जाल्लें. आळशीपणान पांय पातलावन बसतालें. जल्लो मुखा वयल्यान गेल्यार लेगीत गुर्ऽम्यांव करीत शेंपडी हालयत बसतालें. उडी मारून ताका धरूंक धांवनासलें. गुंड्यान गुडगुड्याचे सरपळेक हात घालतकच मात म्यांव म्यांव करून ताचे म्हऱ्यांत आयलें. आपल्याक आतां भायर व्हरनात हें ताका खबर आसलें, तरी गुडगुड्याच्या पांयाक घशटत तें म्यांव म्यांव करतालें, जशें कितें तुमी खंय वतात रे? म्हणून विचारतालें. गुंड्यान ताका पोशेलें आनी म्हळें, ''मस्तूल, तूं ताई बराबर खेळ आं. आमी भायर वचून येतात.''

गुंडया, गुडगुडो आनी तांचे इश्ट ते दोंगुल्लेचेर गेले. थंय बरीं गच्च झाडां आसलीं. वड आसलो. ताका लांबचे लांब पाळां हुमकळटालीं. थोडीं पाळां जमनींत भितर गेल्ली. ताका लागून थंय आनीकय दोन वड आसात काय दिसताले. वडाच्या पाळांक घट्ट धरून तांणी झेल घेतलो. इतल्यांत रुशीक एक युक्ती येवजली. ताणें वडाचीं लाबशींच पाळां एकठांय धरून सकयल गांठ मारली. मागीर त्या पाळांचेर बसून ते त्या झोपाळ्याचेर झेलूंक लागले.

थोडे झाडाचेर चडले आनी खांदयांचेर बसले. तांकां खूब मजा आयली.

वयर मळशें आशिल्लें. थंय व्हड झाडां नासलीं. पूण झोंपां आनी तळपां आसलीं. त्या झोंपांक बरीं फळां लागिल्लीं. इशान तीं काडूंक गेलो. शांतमान ताका फाटल्यान ओडलो. ''आरे तीं कसलीं फळां तें आमकां खबर ना, वोगीच कितेंय काडून खावंनाका.''

मुखार एक काज आशिल्ली. तिका बरे हळडुवेच काजू लागिल्ले. शांतमान आनी इशानान ताचेर फातर माल्ले. तांचे फातर काजूक लागचे परस हेवटेन तेवटेनच वताले. गुंड्याक थंयच एक बडी दिसली. ताणें गुडगुड्याची सरपळी विकी कडेन दिली आनी उडयो मारून मारून बडयेन दोन-तीन काजू उडयले. विकीन ताच्यो शिरो केल्यो आनी तोडये कडचो भाग भायर उडोवन खावंक सांगल्यो. तांच्यो बियो काडून ताणें बोल्सांत घाल्यो.

इबानान त्यो ज्युस्तच पळयल्यो आनी म्हळें, ''विकी बियो खूंय व्हरता? आमी फोडून खावया.''

विकीन सांगलें, ''इबान, आमी हातीन बियो फोडल्यार हाती दीख लागतलो. मुजी आण्टी दितोली फोडून. फाल्यां घेयन येतां हांव.''

शांतमान येतना बॉल हाडिल्लो. ते बॉल घेवन खेळूंक लागले. खेळटां खेळटां अभीन बॉलाक शूट माल्ली. बॉल खंयच्यान गेलो कोणाकच कळ्ळो ना. सगळे बॉल सोदूंक हेवटेन तेवटेन धांवले. गुडगुडोय बांदिल्लो

थंयच्यान कूंय कूंय कूंय करतालो. जसो कितें ताकाय बॉल सोदूं जाय आसलो. बॉल सोदतां सोदतां बरोच वेळ जालो. पूण बॉल कांय मेळ्ळो ना.

"बॉल हेच वाटेन येयलो, व्हाळांत बी पोडलो ना मुरे?" सनीन म्हळें.

"आमी वचून पळोवया." इबान म्हणूनच रावलोना. ते वटेन चलपाकय लागलो. रूशीन ताका बेगिबेगीन आडायलो. "आतां रोखडीच रात जातली. फाल्यां येवन पळोवया."

त्या दिसा ते बॉल घेनासतनाच दोंगुल्ली देवंक लागले. बॉलाच्या बोवाळांत तांणी टिफीन खावंक नासलें. आतां तांकां भुकेची याद जाली. एका झाडामुळांत बसून तांणी एकामेकांचें टिफीन वांटून खालें. गुडगड्याकय बिस्कुत्यो खावयल्यो, आनी ते घरा परतले.

दुसरे दिसा गुंड्या बूट घातनाच गुडगडो बोवाळ घालूंक लागलो. ताईन ज्युस्त पळयलें, "गुडगुड्या, गुंड्या परस तुका खेळपाक वचपाची चड ताकीत मरे."

आयज गुंड्यान आपलो बॉल घेतलो. आजय ते खेळटना अभीन सवकाचशी बॉलाक शूट माल्ली. बॉल खंयच्यान वता तें सनी आनी इशान पळयताले. जे वटेन बॉल गेल्लो ते वटेनच ते बॉल सोदूंक लागले. आजय बॉल नाच्च जाल्लो. अभीन म्हळें, 'आमी हेवटेन सकयल देंवन बॉल सोदुंया. हेवटेन देंवती आसा. बॉल गडगडून सकयल खंयूय गेला जातलो."

"हय, हय, सगळ्यांनीच म्हळें."

गुंड्यान म्हळें, ‘‘आयडिया’’.

‘‘कितें रे, कितें येवजलें तुका?’’ सगळेच ताचे भोंवतणीं जमले.

‘‘आमी गुडगुड्याक बॉल सोदपाक धाडुंया. तो म्हज्या बॉलाक वळखता. सारको सोदून दितलो.’’

‘‘होय रे, पूण तेका एकट्याक धाडूं नाका. आमीय तेचे बाराबर या.’’ सनीन म्हळें.

गुंडून गुडगुड्याची सरपळी हातांत घेतली आनी ताका सांगलें, ‘‘गुडगुड्या म्हजो बॉल शेणला, चल आमी सोदुया.’’

आपल्याक कळिल्ले वरी गुडगुड्यान क्यांव, क्यांव करून आवाज काडलो. बॉल गेल्लो ते वटेन ते देंवूक लागले. गुडगुडो सरपळी ओडत मुखार वतालो. ताचे फाटल्यान गुंड्या आनी ताचे इश्ट वताले. सगळ्यांची नदर बॉल सोदताली. तेवटेन मात्शी व्हड, व्हड झोंपां आसलीं. वतां वतां एका झोंपां वटेन पळोवन गुडगुडो भोंकूक लागलो, आनी गुंड्याक तेवटेन ओडूंक लागलो. सगळेच त्या झोंपा वटेन वचूं लागले.

ते बराबर त्या झोंपा फाटले वटच्यान लिपून बशिल्ले पांच-स भुरगे व्हाळा वटेन धांवूक लागले. गुडगुड्यान वेळ केलो ना. गुंड्याच्या हातांतली सरपळी ओडून तांच्या फाटल्यान धांव माल्ली. सुणो आपल्या फाटल्यान लागला तो पळोवन ते भुरगे भिले. ताणीं बॉल थंयच उडयलो आनी व्हाळांतल्यान पलतडीं धांव माल्ली. गुडगुडोय व्हाळांतल्यान वचूंक

सोदतालो. ताचे फाटोफाट धांविल्ल्या इशानान ताची सरपळी धल्ली. इबानान वचून बॉल काडलो.

ते भुरगे पलतडीन झाडा मुळांत रावन हांकां पळयताले. विकी तेवटेन वचून तांकां तापोवंक सोदतालो. पूण अभीन ताका आडायलो. विकीक राग रोखडोच येता. पूण सगळ्यांनीच ताका थंड केलो. ते भुरगे अजूनय सुसेगाद तेवटेन रावन हांकां पळयताले. शांतमान थंडपाणान तांकां विचारलें, ''कालय बी आमचो बॉल तुमीच व्हेल्लो मरे?''

ताणीं 'हय' म्हळें. एकट्यान सांगलें, ''फाल्यां हाडून दितां.''

अभीन म्हळें, ''फाल्यां तांकां आमी आमचे बराबर खेळूंक आपोयवा?''

इबान कुरकुरलो 'तांकां आनीक कित्याक, आमचो आनीक बॉल चोरपाक?''

रूशीन म्हळें, ''इबान तांचे कडेन इश्टागत केल्यार ते आमचो बॉल व्हरचे नात आनी शांतमाक बॉल तांणी फाल्यां दितां म्हळां न्हय?''

इबान ओगी रावलो. गुंड्यान तांकां विचारलें, ''तुमी फाल्यां आमचे बराबर खेळपाक येवशात?''

ताणीं खोशयेन 'हय' म्हळें.

दुसऱ्या दिसाच्यान तेय तांचे बराबर खेळूंक येवंक लागले. पयलीं पयलीं गुडगुडो तांचेर भोंकतालो. तांच्या आंगार चडून वचूंक सोदतालो. पूण गुंड्यान ताका समजायलो. तेय आमचे इश्ट. म्हणून परत परत सांगलें. तेन्ना

मागीर गुडगुडो तांकां कांय करिना जालो.

नव्या इश्टांनी गुंड्याच्या गटाक व्हाळांत उदकांत खेळपाक व्हेले. त्या व्हाळांत ह्या दिसांनी पावल भरच उदक आसलें खरें, पूण तातूंत आशिल्ले ल्हान-व्हड फातर बरेच बुळबुळीत आशिल्ले. ताचेर मुद्दाम पांय सुळसुळावन ते खेळटाले. गुडगुडो धडेर बसून रावतालो. तांकां राखूंक राविल्ले वरी. त्या व्हाळांत बारीक बारीक नुस्तीं आसलीं. पलतडचे भुरगे पोशांत उदक घेवन तातूंत तीं नुस्तीं घेताले आनी रोखडेच सोडून दिताले. गुंड्याच्या गटानय तो खेळ करून पळयलो. नुस्तीं हातार उळउळटात तेन्ना तांकां मज्जा आयली. आमी हीं नुस्तीं घरा व्हेल्यार कशीं? अभीन उमेदीन विचारलें. पलतडच्या इश्टांनी सागलें, "ना, ना. घरा व्हेल्यार तीं मरतात. आमी व्हेल्लीं. रोखडींच मेलीं." तांणी सांगलें तरीय हांचो विस्वास बसलो ना.

दुसऱ्या दिसा गुंड्यान, अभीन आनी रूशीन प्लास्टीकची बाटली हाडली. बाटलेच्या तोंडा कडेन तांणी उजवात जळोवन दोन-तीन बुराक केल्ले. ते बाटलेंत तांणी नुस्तीं आनी उदक घेतलें. बाटलेक गुट्टी लायली आनी तातूंत उळउळटात तीं नुस्तीं पळोवंक लागले. वयर सकयल भोंवपी नुस्तीं पळोवन ते खोशी जाले. तिनसनां घरा येतना तांणी ती नुस्त्यांची बाटली हाडली.

मम्माक तीं नुस्तीं पळोवन राग आयलो. तिणें म्हळें, "आतां नुस्तींय घरांत हाडूंक लागलो तूं. अशीं नुस्तीं घरांत चड वेळ उरनात. मारूंक हाडल्यांत तुवें तांकां?"

"कित्याक उरचीं नात मम्मा? काकागेर काचेच्या बॉक्सांत घालून दवरल्यां मगे. कितले दीस जाले".

"आरे, तीं नुस्तीं वेगळीं. तीं तशींच कवचेच्या बॉक्सांत दवरपाचीं आसतात. तांकां वारें बी येवपाची सगळी वेवस्था आसता. तांकां वेगळें खाण बी मेळटा. हीं नुस्तीं कितें खातात तें तुका खबर आसा?"

गुंड्याक वायट दिसलें. "आतां कितें करप? नुस्तीं हाडलीं हावें. तांकां फाल्यां व्हरून व्हाळांत सोडटां."

"तांकां आतां खावपाक बी कितें घालतलो तूं?" ताईन विचारलें.

"पळयतां". इतलेंच सांगून गुंड्या चितूंक लागलो. रांदचे कुडींत मम्मान पीठ कालोवन दवरिल्लें. तो भितर गेलो. ताणें म्हळें, "मम्मा इल्लें पीठ घेतां आं."

"हात पांय पयलीं धूय आनी मागीर पिठाक हात लाय. भायर साकून आयला तो नुस्त्या फाटल्यान लागला."

गुंड्यान मान्यांत वचून हात-पांय धुले. मागीर रांदचे कुडींत येवन इल्लेंशें पीठ घेतलें. ताचे बारीक बारीक गुळे केले आनी नुस्त्याचे बाटलेची गुड्डी काडून तातूंत उडयले. नुस्तीं पिठागुळ्यां म्हच्यांत आयलीं. वास घेतिल्ले वरी करून फाटीं सरलीं. तांणी पीठ खालें ना. गुंड्यान बाटलेंत शिताचे पांच स गोटे घाले. तेय तांणी खाले नात. मागीर गुंड्यान पानांचे बारीक बारीक कुडके करून घाले. तेय तांणी खाले नात. मस्तूल मात बाटलेचे आशिकुशीक

फिरतालें.

सकाळ फुडें पळय जाल्यार नुस्तीं धवीं पोटां वयर करून राविल्लीं. सगळीं नुस्तीं मेल्लीं. गुंड्याक वायट दिसलें. गुंड्या बाबडें तोंड करून टि.व्ही. पळोवंक बसलो.

ताणें मम्मान दिल्ली चपाती लेगीत खाली ना.

पप्पाक ताची काकुळट दिसली. ताणें सांजवेळा घरा येतना एका कंवचेच्या मडक्यांत दोन रंगीत नुस्तीं घालून हाडलीं. बराबर तांच्या खाणाची बाटली आनी उदक निवळ करपाचीय बाटली हाडली. नुस्तीं पळोवन गुंड्याचे खोशयेक शीम मेर उल्ली ना. तो कितलोंच वेळ त्या नुस्त्यांक पळयत बसलो.

नुस्तीं वयर, सकयल, हेवटेन तेवटेन वाटकुळीं घुंवत आसलीं. पप्पान तांकां बारकेले सांसवां भशेन गुळे खावंक हाडिल्ले. ते धायेक गुळे पप्पान त्या नुस्त्यांच्या मडक्यांत घाले. कितले बेगीन वयर येवन ताणीं ते खाले. मागीर सगळो वेळ तोंड उगडत, धांपत तीं फिरतालीं.

पप्पान गुंड्याक पयलींच शिटकायिल्लो. ''नुस्त्यांक दिसाक दोन वेळा खावंक घालप, नुस्तीं दुसऱ्या उदक घाल्ल्या आयदनांत घालून कंवचेचो मडको धुवप हें सगळे काम ताई करतलें. गुंड्यान कित्याकच हात लावप ना. फकत नुस्त्यांक तोखेवप.''

पप्पान आपल्याक नुस्तीं हाडलीं. हें खोशयेंत गुंड्यान सगळें मानून



घेतलें. पूण नुस्त्यांक खावंक घालपाची ताका कूय येतालीच. तेन्ना सगळ्यांचे दोळो चुकोवन तो चार-पांच गुळे काडून नुस्त्यांक खावपाक घालतालो.

मस्तूला पासून नुस्तें राखप कशें? हाची चिंता मम्माक आनी ताईक जाल्ली. ताणीं तो कंवचेचो बुडकुलो वयर बरो दवरलो थंयूय मस्तूल वयर चडपाचो तांकां हुस्को आशिल्लो. रातचीं तीं त्या बुडकुल्याचेर जाळयेचें धांकणें धांपतालीं.

पूण ह्या दिसांनी मस्तूल आळसाविल्ले भशेन जाल्लें. ताचें लक्ष त्या नुस्त्याचेर नाशिल्लें. तें वचत थंय पातळटालें. ताई नुस्ते उजरावंक बसल्यार लेगीत वचून ताका पिडापीड करिनासलें. जेवणा-खावपा कडेनय खोडीश्यो करतालें. मम्माक कळ्ळें, मस्तूल गुरवार आसलें. तिणें गुंड्याक सांगलें,

"गुंड्या मस्तूलाच्या पोटांत पेटे आसात. ताका कशाय कशें धरनाका, वयल्यान उडयनाका."

गुंड्या खोशी जालो. ताणें उडक्यो मारून खोस परगटायत मम्माक विचारलें, "मम्मा कितले पेटे आसात गे ताच्या पोटांत? आनी ते केन्ना भायर येतले?"

"तांचो वेळ जातकच येतले. तूं तांकां त्रास करूं नाका कळ्ळें."

मम्मान ताका शिटकायलो. गुंड्या हळूच मस्तूला म्हच्यांत बसलो. ताच्या पोटाक ताणें हात लायलो. ताका बरें करून सासपिलें आनी म्हळें, "दोन तीन तरी पेटे आसतलेच पळय ताच्या पोटांत."

मम्मा आनी ताई हांसलीं. "गुंड्या, दोतोर काय कितें रे तूं?" ताईन ताचीं फकांडां केलीं.

आतां गुंड्याक नवो उद्देग मेळिल्लो. नुस्तीं तोंड उगडत धांपत उदकांत फिरतालीं. ताचे वरी तोंडां करून गुंड्या तांकां पळयत रावतालो. नाजाल्यार मस्तूलाक वेंगेंत घेवन हळू हळू ताचें पोट सांसपितालो. ताणें मस्तूलाक उबारून गुडगुड्या म्हच्यांत व्हेलें आनी ताका सांगलें, "गुडगुड्या, मस्तूलाच्या पोटांत पेटे आसात. तुका खेळपाक नवे इश्ट मेळटले."

ताई थंयच आसलें. ताणें म्हळें, "गुंड्या, तुज्या गुडगुड्याक नवे इश्ट मेळटले काय तो तांकां खावन उडयतलो पळोवया."

गुंड्याक ताईचो राग आयलो. ताणें किळचून म्हळें, "ताई कित्याय कितें

उलयनाका. म्हजो गुडगुडो आनी मस्तूल बरीं इश्ट. तुका खबर ना. गुडगु
ताच्या पिलांक कसो खातलो? हांव राखतलों तांकां''.

ताईन हांसत भितर वतना म्हळें, ''पळोवया, कितलो वेळ राखत बसत
तो.''

गुंड्यान सांजवेळा आपल्या सगळ्या इश्टांक मस्तूलाची नविदाद सांगली
त्या दिसा गुंड्याचे इश्ट गुंड्यागेर आयले. कोणूच दोंगुल्लेचेर खेळूंक गेले
नात. ताणीं मस्तूलाची अपुरबाय केली. ताच्या पोटांत कितले पेटे आसतले
हाचेर पैज लेगीत माल्ली. ताणीं नुस्त्यांक आपलीं तोंडां उगडून-धांपून
चाळयलीं. गुडगुडोय खोशी जालो. तोय तांचे म्हऱ्यांत वचून तांकां चाटून
हडकितालो. दोन पांय तांचे मांडयेर दवरून तांच्या तोंडाक आपलें तोंड
लायतालो.

मम्मा आनी ताईन तांकां गोड शिरो आनी भजीं करून दिलीं. पिवपाक
सरबत दिलें. सगळे भुरगे खोशी जावन घरा गेले. वतां वतां सगळ्यांनी
गुंड्याक सांगलें, ''मस्तूलागेर पिलां जातकच आमकां पळोवंक आपय
आं.''

कांय दीस गेले. एके रातीं मस्तूल बोवाळ घालूंक लागलें. म्यांव म्यांव
करून पयलीं मम्मा फाटल्यान भोंवंक लागलें. मदींच घरभर फिरतालें. मदीं
मदीं भायर वारांदाचेर गुडगुड्या म्हऱ्यांत वचून ताच्या साकाक घश्टतालें.
ताच्या जिवाक बरें ना हें कळिल्ले वरी गुडगुडो ताका कूंय, कूंय करून

हडकितालो. मम्माक कळ्ळें, मस्तूलाचो बाळंत जावपाचो वेळ लागीं पावला म्हणून. तिणें एके काशींत बोथरां घालीं आनी मस्तूलाक पोशेत पोशेत ते काशींत व्हरून दवरलें.

ताईन गुंड्याक सांगलें, मस्तूल आतां पिलां काडटलें म्हणून. गुंड्या खूश. तो परत परत ते काशी म्हऱ्यांत वचून मस्तूलाक पळोवंक लागलो. तितलें मस्तूल काशींतल्यान भायर येतालें. परत सगळे कडेन फिरतालें. ताईन ताका परत काशींत बसयलें आनी सांसपिलें. थोड्या वेळान ताई भितर गेलें. तसो गुंड्या परत काशी म्हऱ्यांत उबो. ते बराबर मस्तूल भायर सल्लें. निमणें मम्मान गुंड्याक तापयलो, "गुंड्या, मस्तूला म्हऱ्यांत वचूं नाका. ताका चड त्रास जाल्यार तें तुकां घांस मारतलें."

मम्मान घांस मारतले म्हळ्या बराबर गुंड्या भियेलो. तो भायर येवन टि.व्ही. पळोवंक बसलो. पूण ताचें सगळें लक्ष मस्तूलाचेर आसलें. गुडगुडोय कूंय, कूंय करून मदीं मदीं जागयतालो.

रातचो जेवणाचो वेळ जातकच मम्मान गुंड्याक वाडलो. जेवतकच रोखडोच न्हिदपाची ताका संवय. पूण मनांत मस्तूलाच्या पेट्यांचो हुस्को आसलो. ताणें ताईक सांगलें, "ताई मस्तूलान पेटे काडटकच म्हाका उठय आं."

"हां, हां, तूं वचून न्हीद."

पेट्यांचो हुस्को मनांत घेवन गुंड्या न्हिदलो. रातच्या सपनांत लेगीत

ताका मस्तूलाचीं पिलांच दिसतालीं. गुडगुडो आनी तो दोग यजाण मस्तूलाच्य पिलां कडेन खेळटाले. 'गुडगुड्या पिलाक धर, भायर वचत तें? अशें म्हणटां म्हणटां गुंड्याक जाग आयली. हरशीं सुटये दिसांनी ताची सकाळ धा वरांचेर जाताली. आयज मात ताका सातांकूच जाग आयली.

मम्मा आनी ताई रांदचे कुडींत काम करतालीं. गुंड्या दोळे चोळत रांदचे कुडींत आयलो.

"मम्मा पेटे?"

"ताई दाखयतलें तुका पेटे. चार पेटे काडल्यात ताणें."

"चारच, रातीं हांवें पांच पेटे पळयल्यात. हांव आनी गुडगुडो ताचे बराबर खेळ्ळ्यात लेगीत."

"आरे तें सपनांत. यो तुका हांव खरे पेटे दाखयतां."

"मम्मा, हांव तांकां धरतलों आं."

"ना गुंड्या, तांकां हात लायल्यार मस्तूल घांस मारतलें. आपल्या पेट्यां मुखार तें कोणाक वळखना.

मागीर ताईन ताका मस्तूला म्हन्यांत व्हेलो. इल्लेशे चार पेटे मस्तूलाचे दूद पियेताले. तांकां पळोवन गुंड्याक वीटसो आयलो. "शीऽ मस्तूल कितलें सुंदर, आनी ताचे हे पेटे, आंवयऽ मस्तूल हांव तुज्या पेट्यांक हात लावचोंना." गुंड्यान उलयतना हात वावुडले. मस्तूलाक कितें दिसलें कोण जाणां. तें गुरगुरलें. ताईन बेग्गीन गुंड्याक फाटीं ओडलो, आनी म्हळें,

"गुंड्या, आनीक आठ-धा दिसांनी पळय, हया पेट्यांक दोळे येतले आनी ते मोटेये जातले. मागीर कितले सोबीत दिसतले पळय.

'शीऽ आतां कांय बरे दिसनात. ल्हंव लेगीत ना तांकां."

गुंड्यान मस्तूलाच्या पेट्यां विशीं जायतें येवजून दवरिल्लें. आपल्या इश्टांक आपोवप, तांकां नांवां दवरप, तांचे वांगडा खेळप. पूण मस्तूलाचे पेटे पळोवन गुंड्या निरास जालो.

तांचो नाद सोडून तो गुडगुड्या म्हऱ्यांत आयलो. आयज सांजे गुंड्याचे इश्ट आनी शेजारचे कॉलनींतल्या भुरग्यांनी क्रिकेट मॅच दवरिल्ली. तशे ते जायते वेळार दवरतले. गुंड्या वतना गुडगुड्याक व्हरतालो. गुंड्याचो पंगड जिखलो काय गुडगुडो बांदिल्ले थंयच उडी मारून भोंकून खोस उक्तायतालो. आनी ते हारल्यार शेंपडी दोनय पायां मदीं घेवन कूंय, कूंय, क्यांव क्यांव अशे विचित्र आवाज काडटालो.

आयज खेळटना गुंड्या पडलो. ताचो पांय बरोच झरकटलो. सगळे भुरगे ताचे भोंवतणी जमले. गुडगुड्याक कळ्ळें गुंड्याक कितें पूण जालां म्हणून. तो व्हडा व्हडान भोंकूंक लागलो. मदींच विचित्र आवाज काडूंक लागलो. भुरगे गुंड्या बराबर आशिल्ले. कोणाचेंच लक्ष गुडगुड्याचेर नाशिल्लें. गुडगुड्यान ताची सरपळी बांदिल्ली तो खूट हालोवन हालोवन मोडलो आनी धांवत भोंकत भुरग्यां मदल्यान वाट काडून गुंड्या म्हऱ्यांत आयलो.

भुरग्यांनी गुंड्याक उठोवन बसयिल्लो. गुडगुडो ताचे म्हऱ्यांत वचून ताका

चाटूंक लागलो. गुंड्यान, ताका वेंगेंत घेवन सांगलें, गुडगुड्या, हांव बरों आसा.'' तेन्ना तो पेल्यान गेलो.

ते राती कडेन पांयाचे दुखी मुखार ताका मस्तूलाच्या पेट्यांची याद लेगीत आयली ना. दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठले बराबर ताका मस्तूलाच्या पेट्यांची याद आयली. तो दुखरो पांय सांबाळत काल कास आशिल्ली थंय गेलो. पळय जाल्यार कास रिकामी. ताका दिसलें ताईन मस्तूलाक आनी पिलांक चार रस्त्यार व्हरून सोडल्यांत जातलीं. मस्तूलान ताका पिडलें जाल्यार ते जायते वेळा म्हणटालें, 'राव तुका व्हरून चार रस्त्यार सोडटां'.

गुंड्यान ताईचेर तापय काडली. ''ताई, मस्तूलाक आनी पिलांक खंय व्हरून उडयलीं तुवें?''

ते बराबर मम्मा आनी ताई हासूंक लागलीं. गुंड्याक चडच राग आयलो. तो कितें तरी म्हणूंक वतालो, इतल्यान मम्मान ताका हाताक धल्लो आनी फाटले गॅलरींत व्हेलो.

थंय कचकचांत मोडक्या कदेला पोंदा बोथऱ्या साकार मस्तूलान पिलांक दवरिल्लीं. तें तांकां चाटून निवळ करतालें. तांकां थंय पळोवन गुंड्या तापलो. ''मम्मा, तुवें ताईक हांका हांगा हळशिकेंत कित्याक दवरूंक लायलीं गे? तीं घरांत आसल्यार तुका कितें जाता?''

''ना रे गुंड्या, हांवें तांकां हांगा दवरूंक लावंक ना. मस्तूलानच तीं हांगा हाडल्यांत.''

“वोगी राव गे, म्हाका फटयता? मस्तूल तांकां हांगा कशें हाडटलें? ताका कितें हात आसात?”

“हात नात जाल्यार कितें जालें. तोंड आसा न्ही.” ताईन हांसून म्हळें.

मम्मा आनी ताई आपलीं फकांडां करतात अशें समजून गुंड्याक सामको राग आयलो. दोनय पांय आपटून रडपाची ताका संवय. आतांय ताणें एक पांय वयर काडलो आनी कालचो घाय कस्स जालो. ‘आऽ आऽ आऽ’ करत फडफडत ताणें पांय सकयल दवरलो. मम्मान अपुरबायेन ताच्या हाताक धल्लो आनी सांगलें, “गुंड्या, आमी तुजीं फकांडां करिनात. माजरां आपलीं पिलां ल्हान आसतना सात कोनशे भोंवडायता.”

“शीऽ कित्याक गे? आनी कशीं व्हरता तें?”

“काल तुवें तांकां थंय पळयलीं. आमी सगळ्यांनी पळयलीं. म्हणून ताणें आयज हांगा हाडलीं. आतां हांगाय आमी पळयलीं. आतां तें तांकां आनीक खंयूंय व्हरतलें.”

“खरेंच मम्मा!”

“हय, आतां तें तांकां तिसऱ्या जाग्यार लिपोवन दवरतलें.”

“पूण तांकां कशें व्हरता गे तें? काय पिलां ताचे फाटल्यान हळू हळू चलून वतात?”

“ना गुंड्या, पिलांचे दोळे अजून उगडूंक नात. तें तांची गोमटी आपल्या तोंडांत धरून तांकां व्हरता.”

“आं, पिलांक दांत लागनात तर?”

“ना, तांकां दांत लायनासतना तें व्हरता. कोणाक दांत लावप आनी कोणाक लावप ना तें माजरांक ज्युस्त कळटा.”

“आनी मम्मा, तांचे दोळे उगडूंक ना अशें कित्याक म्हणटा तूं? काल ताई म्हणटालें.”

“आरे माजरा पिलांचे दोळे जल्माक आयले बराबर उगडनात. तांच्या दोळ्याचेर पड्डो आसता. थोड्या दिसांनी तो पड्डो वता आनी तीं पळोवंक शकतात.”

“आरे व्वा! म्हाका खबरच नाशिल्लें मगे? मम्मा, आतां हांव म्हज्या सगळ्या इश्टांक सांगतलों.”

“आतां एक भंय आसा.”

“कसलो?”

“तुज्या गुडगुड्याचो. तो तांकां खायत म्हणून भंय. तांचे दोळे उगडटकच तीं हांगा थंय भोंवतलीं. तांकां सांबाळटासर नाकापुरो जातलें.”

“ना, ना, मम्मा. मस्तूलाक तो खंय कितें करता? तांचें वांगडा तो बरो खेळटा.”

“हय रे, पूण हे बारकेले पेटे पळोवन गुडगुड्याक खायन दिसलें जाल्यार?

“ना, ना, आमी तांकां लिपोवन दवरुंया.”

धा-पंदरा दिसा उपरांत तांचे दोळे उगडटले. आतां तांकां ल्हंवय आयिल्ली

आनी तीं बरीं गुडगुडीत जाल्लीं. तीं आतां सगळ्याक धांवतालीं. तीं गुडगड्या म्हऱ्यांत वचत म्हणून तांकां राखतासर मम्माक आनी ताईक नाकापुरो जातालें. मागीर एक दीस मम्मान दोन पेटे हातांत धल्ले आनी ती गुडगुड्या म्हऱ्यांत गेली. आनी म्हळें, 'हे आमच्या मस्तूलाचे पेटे.'

ताका कांयच करप ना, कळ्ळें? अशें म्हणत तांकां पोशेवंक लागली. ताईकय तिणें उरिल्ले दोन पेटे हाडूंक सांगले. दोगांय पेट्यांची अपुरबाय करतात तें गुरगुरत गुडगुडो पळयतालो. पूण तो तांचेर भोंकलो ना. शेंपडी हालयत गुरगुरपाक लागलो.

इतल्यान थंय मस्तूल आयलें. मम्मान ताका म्हऱ्यांत घेवन पेट्यांक दूद पिवपाक लायलें. अशें मम्मान आनी ताईन दोन-तीन दीस केलें. आतां गुडगुड्याक तांची संवय जाली. तीं भायर आयल्यार लेगीत तो कांय करना जालो.

एक दीस ताईन गुडगुड्याचे ताटलेंत जेवण वाडलें आनी गुडगुड्या म्हऱ्यांत व्हरून दवरलें. उदकाची ताटली घेवन भायर येवन पळय जाल्यार ताटलेंतलें जेवण एकेवटेन गुडगुडो खातालो जाल्यार दुसरे वटेन मस्तूलाचे दोन पेटे सुसेगाद जेवताले. ताईन मम्माक गुंड्याक आपोवन दाखयलें. गुंड्या खोशी जालो. ताणें म्हळें, "मम्मा आतां गुडगुडो मस्तूलाच्या पिलांक कांयच करचो ना न्ही?"

"हय गुंड्या, जेवणा कडेन तो वोगी रावला म्हणटकच आतां तांकां भंय

ना.''

खऱ्यांनीच गुडगुडो, मस्तूल आनी ताचीं पिलां आतां बरीं इश्ट जाल्लीं.

पिलां हळू हळू व्हड जातालीं. तांचो घरभर खवदळ पप्पाक कसोच आवडनासलो. इतलीं जनावरां फ्लॅटांत दवरप परवडपा सारकें न्हय हें मम्माय जाणा आसली. पूण करतली कितें? पिलां सामकींच ल्हान आसलीं. दूद पितालीं. तीं व्हड जातकच शेजाऱ्यांनी आनी गुंड्याच्या इश्टांनी मागिल्लीं.

एक दीस वयल्या मजल्या वेल्या चिंकीन मम्माक सांगलें, ''गुंड्याचे मम्मा आयज आमगेर म्हज्यो इश्टिणी येतल्यो. हांव एक माजरा पील व्हरूं?''

''बरे भशेन. पूण रोखडेंच हाडून दी आं, दूद पिवूंक जाय ताका. तें व्हड जातकच मागीर व्हरून तुमकांच दवर.''

मोटे खोशयेन चिंकीन एक धवें आनी काळे काळे थिपके आशिल्लें पील उबारलें. हेंच पील आपल्याक जाय म्हणून ताणें गुंड्याक सांगून दवरिल्लें.

चिंकी दारा कडेन वतासर गुडगुड्यान ताका पिलाक घेवन वता तें पळयलें. गुडगुडो मोट्या मोट्यान भोंकूंक लागलो. चिंकी भियेलें. ताई धांवून आयलें. ताणें दार उगडून चिंकीक भायर धाडून दार धांपलें.

पूण गुडगुडो सामको चाळवल्लो. तो आकांतान भोंकत दाराक पळयतालो. मम्मान, ताईन ताका हळू हळू थंड केलो. पूण गुडगुडो विसरूंक नासलो. तो गुरगुरत दाराक पळयत आसलो.

दनपारां गुडगुड्याक न्हाणोवन ताईन वारांदार सोडिल्लो. सरपळेन बांदूंक नासलो. इतल्यांत गुंड्या बॉल व्हरूंक दार उगडून भितर आयलो. ताका रोखडोच परत वचूंक जाय म्हणून ताणें दार धांपूक नासलें. गुडगुड्यान तें ज्युस्तच पळयलें आनी भायर धांव माल्ली.

ताईन ताका पळयलो. "गुडगुड्या भितर यो." म्हणत तें भायर आयलें. तितले म्हणसर गुडगुडो वयल्या मजल्यार पावलो. चिंकीचें दार उगडेंच आसलें. तांच्या हॉलांत तें आनी दोग इश्टिणी बसून मदीं माजरा पिलाक दवरून ताका तोखेतालीं. एके ताटलेंत दूद घालून तांणी म्हऱ्यांत दवरिल्लें.

इतल्यांत गुडगुडो सरळ भितर आयलो आनी पिलाक तोंडांत धरून धांवलो. चिंकी आनी ताच्यो इश्टिणी भंयान किळच्यो मारूंक लागल्यो. "गुडगुड्यान माजरा पील खालें, गुडगुड्यान माजरा पील खालें" ताची आवय भायर आयली आनी गुडगुडो खंय गेला तो पळोवंक लागली.

गुडगुडो आपल्या घरा गेल्लो तिणें पळयलो आनी तीय बोवाळ घालत सकयल देंवली. तिचे फाटल्यान चिंकी आनी ताच्यो इश्टिणीय आयल्यो.

हेवटेन गुडगुडो पिलाक घेवन घरा आयलो आनी जिबेन चाटूंक लागलो. ताई वयर वचपाक अर्द सोपणां चडिल्लें. तेंय गुडगुड्या फाटोफाट घरा आयलें आनी पयलीं ताका सरपळेन बांदून घालो. तेन्नाच चिंकी आनी बाकीचीं सगळीं गुंड्यागेर पावलीं. पूण तांकां दारा भितर येतना पळोवन गुडगुड्यान पिलाक आपल्या पांया मदीं घेतलें आनी आकांतान भोंकूंक

लागलो. तीं भियेवन दारांतच उबीं रावलीं.

सगळो बोवाळ आयकून मम्माय भायर आयिल्लीं. तिणें चिंकिले आवयक कितें जालें तें विचारलें. चिंकीचे आवयन सगळी गजाल सांगली आनी म्हळें, "आगे, तुमच्या गुडगुड्याक कितेंय तरी करात. एक माजरा पील खालें ताणें. फाल्यां उरिल्लीं खसतलो."

ते बराबर मम्मा हांसली. तिणें म्हळें, "आगे गुडगुड्यान त्या पिलाक खावंक ना. चिंकीन त्या पिलाक व्हेल्लें म्हणून रागान तुमचेर भोंकता. आनी पील ताणें खावंक ना. हें पळय आपल्या पांया मदीं घेवन उबो आसा तो."

"आगे बाये, खरेंच मगे, सुणो माजरा पिलाक अशें राखता तें पयलें फावट पळयतां हांव. सुणीं माजरा एकामेकाक लागीं घेनात तें पळयिल्लें हांवें."

तीं अजाप करीत आपल्या घरा गेलीं. त्या दिसाच्यान गुडगुडो मस्तूलाच्या पिलांक कोणाकच हात लावंक दिनासलो. फकत गुंड्यान धरल्यार कांयच करिनासलो.

त्या दिसा गुंड्या आनी ताचे इश्ट गुडगुड्याक घेवन दोंगुल्लेर खेळपाक गेले. दोंगुल्लेच्या पेले वटेन रावपी इश्टांनी तांकां जांबळां घेवन येतां म्हणून सांगिल्लें. गुंड्याचो गट बेगीन दोंगुल्लेचेर पाविल्लो. तांणी थोडो वेळ वडाच्या पाळांचेर झोपाळो करून झेल घेतलो. थोडो वेळ बॉलांनी खेळ्ळे. तरी ते पावंक नासले.

इबानान म्हळें, ''चल आमी व्हाळार या, उदकांत खेळया.''

''हय, हय, या'' अभीन म्हळें.

सगळे दोंगुल्ली देंवन व्हाळार आयले. व्हाळार सकयल्ले वटेन कमरभर उदक आसलें. आनी थंय मोटे मोटे फातरय आसले. पलतलडच्या इश्टांनी हांकां सांगिल्लें, ''व्हाळार सकयले वटेन वचूं नाकात, थंयचे फातर बुळबुळीत आसात. मात्सो पांय पडल्यार निसरतात.''



इतले दीस ते जेन्ना व्हाळार येताले तेन्ना ते इश्टय तांचे वांगडा आसताले. पूण आयज ते अजून येवंक नासले. आयज तांचीच वाट पळोवंक गुंड्याचो गट व्हाळार आयिल्लो. रूशी हालींच पेवंक शिकिल्लो. ताणें म्हळें, ''हांव तुमकां पेवन दाखोवं?''

सगळे हांसले, ''शी, ह्या पावलभर उदकांत तूं कितें पेंवतलो?''

''पळोवया तरी केसो पेंवता तो?'' सनीन म्हळें.

''कपडे कितें करतलो रे?'' शामान चाळयतशें विचारलें.

''तशेंच आंगारच सुकतले ते'' म्हणत रूशी उदकांत देंवलो. उदक पावलभर जाल्ल्यान रूशी जमनीक तेंकलो. तो बेठेच पांय आनी हात हालयत मुखार वचूंक लागलो. व्हाळांत ल्हान ल्हान बुळबुळीत फातर आशिल्ले. तांचे वेल्यानय तो निसरत मुखार वतालो. सगळे इश्ट ताका व्हडाव्हडान हांसूंक लागले.

इशानान म्हळें, ''मुखार वचून पेवन दाखयल्यार खरें तुवें.''

''हय, हय, मुखार वचून पेंवन दाखयतां तुमकां.'' रूशी उमेदीन मुखार वचूंक लागलो.

''पुरो, रूशी, मुखार वचूं नाका, फुडें उदक खोल आसा.'' इबानान नेटान सांगलें.

''आनी थंय बुळबुळीत फातोरूय आसात. आसूं रूशी तूं फाटीं सोर.'' विकीन म्हळें.

पूण रूशीक नेट आयिल्लो. ताणें हांसून म्हळें, ‘‘आरे तुमी भिवंनाकात हांव स्विमींग पुलांत कितलोच वेळ पेंवतां. म्हाका संवय आसा.’’

उलोवण्याच्या नेटा भरशीं रूशी केनाच बुळबुळीत फातरा वेल्यान निसरलो आनी व्हांवंक लागलो. थंय उदक मात्शें नेटानच व्हावतालें. अकस्मात निसरिल्ल्यान ताका हात-पांय हालोवपायेंच सुचलें ना. वाटेर आशिल्ल्या फातरांक धरतलो जाल्यार तेय बुळबळटाले. सगळे भुरगे किळच्यो मारूंक लागले. गुडगुडो हें सगळें पळयतालो. रूशी व्हांवता तो पळोवन ताणें एक झटको दिवन गुंड्याच्या हातांतल्यान आपल्याक सोडोवन घेतलो आनी उदकांतल्यान धांवत वचून रूशीच्या बुश्कोटाक घट धल्लो. आनी देगे वटेन ओडूं लागलो. व्हाळांत कमरभरच उदक आशिल्लें. रूशीच्यान जमनीक पांय लावंक जाताले. पूण तो भंयान सगळोच थरथरतालो.

तेन्नाच थंय पलतडचे भुरगे पावले. तांच्यांतल्या एकट्या कडेन कोंड्या बडी आशिल्ली. जांबळिणीचे खांदे हालोवंक ताणें ती हाडिल्ली. ती बडी ताणें रूशी कडेन दिली. ती बडी जमनीक तेंकोवन रूशी पयलीं घट उबो रावलो. त्या इश्टांच्या सांगण्या प्रमाण ताणें ते बडयेचें एक पोंत ताणें वयल्या भुरग्यां कडेन दिलें. शांतमान आनी गुंड्यान ती बडी घट धल्ली आनी ती हळू हळू ओडपाक लागले. गुडगुडोय रूशीच्या बुश्कोटाक धरून ओडटालो. रूशी वयर येतकच गुडगुड्यान ताचो बुश्कोट सोडलो.

सगळ्या भुरग्यांनी रूशीक एका फातरार बसयलो. रूशीचो भंय अजून

कमी जावंक नासलो. तो थरथरतालो. तातूंत उदकांत भिजिल्ल्यानय कुडकुडटालो. सनीन ताका बाटलेंतलें उदक पिवयलें. गुडगुड्यान आंग, तकली हालोवन आपल्या आंगा वयले सगळें उदक फाफुडलें आनी रूशी म्हऱ्यांत आयलो. कूंय कूंय करत ताचें आंग चाटूंक लागलो. गुडगुड्याची माया पळोवन रूशीक रडूंक आयलें. ताणें ताच्या गळ्याक वेंग माल्ली आनी हुडक्या हुडक्यांनी रडूं लागलो. येदोळचो प्रसंग येवजूनच सगळ्यांचेच दोळे भरून आयले.

तितले म्हणसर ते इश्टय तांचे म्हऱ्यांत पाविल्ले. ताणीं सगळ्यांक थातारले. आनी म्हळें, "पळय, तुमचो गुडगुडो कितलो हुशार तो. आयज ताका लागून एक वायट घडणूक चुकली."

"खरेंच, आमचो गुडगुडो आसाच तितलो हुशार." सनीन आनी अभीन ताका वेंगेंत घेवन ताची अपुरबाय केली. मागीर सगळेच जाण गुडगुड्याची अपुरबाय करूंक लागले. ह्या बोवाळांत गुंड्या रूशी म्हऱ्यांत आशिल्लो ताणें गुडगुड्याक अजून पोशेंवक नासलो. गुडगुडो धांवून गुंड्या म्हऱ्यांत गेलो आनी आपले दोनय पांय ताच्या खांदार दवरून आपलें तोंड ताच्या तोंडा कडेन व्हेलें. गुंड्यान अपुरबायेन ताची तकली पोशेली आनी म्हळें, "गुडगुड्या, तूं आमचो हिरो. तुवें आयज आमच्या इश्टाक वांचयलो."

"खरेंच गुडगुडो आमचो हिरो." सगळ्यांनी म्हळें.

रूशीचो भंय आतां गेल्लो. ताणेंय हांसून सगळ्यांक सांगात दिलो.

पलतडच्या इश्टांनी हाडिल्ल्या जांबळांची आतां सगळ्यांक याद जाली सगळ्यांनी उमेदीन बसून जांबळां खालीं. इतले म्हणसर बरोच वेळ जाल्लो. गुंड्याचो गट सडसडीत घरा आयलो.

रूशी ओलोच आशिल्लो. घरा आयले बराबर ताणें व्हाळार घडिल्ली सगळी गजाल आपले मम्मीक आनी पप्पाक सांगली. "बाबू, आयज गुडगुडो नाशिल्लो जाल्यार कितें जावपाचें रे?" म्हणत रूशीक वेंगेंत घेवन ताची मम्मी रडूंक लागली. पप्पान म्हळें, "रूशी, तुका हांवें पयलींच सांगिल्लें, स्विमींग पुलांत पेंवंक आयलें म्हणून न्हंयेंत, दर्यांत पेंवपाक येना. ते दीस कोलव्यां पेवूंक तयार जाल्लो तूं."

गुडगुड्यान रूशीक कसो वाटायलो ती खबर कॉलनीभर पातळ्ळी. सगळ्यांत पयलीं रूशीचे मम्मी-पप्पा ताका घेवन गुंड्यागेर आयले. रूशीची मम्मी रडत आसली. तिणें पयलीं वचून गुडगुड्याक पोशेलो. हळू हळू कॉलनींतले सगळे लोक गुडगुड्याक पळोवंक येवंक लागले. गुंड्याचे इश्टय थंयच राविल्ले. त्या दिसा गुडगुडो तांचे कॉलनीचो हिरो जाल्लो. सगळेच ताची तोखणाय करताले. गुंड्याचो पप्पाय आयज तांचे उमेदींत वांटेकार जाल्लो.

# बिलू बिलू माजरा



एक आसलें बिलू माजर. ताचें धवें धवें आंग. ताचेर काळे काळे थिपके. शेंपडी येदी मोट्टी गोंडो कशी. मिनूच्या घरांत तें रावतालें. मिनूक तें खूब खूब आवडटालें. ताणें ताका रिंकू नांव दवरिल्लें.

तें घरांत कशें आयलें ती एक मजेचीच गजाल. एक दीस मिनू शाळेंतल्यान घरा येतना, ताका तांच्या पोरसा भायर इल्लेशें माजरा पील दिसलें. मिनून हेवटेन तेवटेन पळयलें. व्हडलें माजर खंय आसा काय म्हणून. पूण थंय कोणच नासलो. कोणें तरी त्या पिलाक रस्त्यार सोडिल्लें. तें म्यांवऽ ऽ म्यांवऽ करून रडयलें. मिनू ताचे म्हऱ्यांत गेलें आनी ताका हळूच हात लायलो. तें ताचो हात चाटूंक लागलें. मिनूक तें खूब आवडलें. ताणें ताका

उखलून वेंगेंत घेतलें. तें बुरशें आशिल्लें. पूण मिनूक ताचो वीट आयलो ना. ताणें ताका हळूच घरांत हाडलें.

तें केन्नाच्यान मां-पप्पाचे फाटीक लागिल्लें, माजरा पील नाजाल्यार सुण्या पेटो हाडुंया म्हणून. आतां आयतेंच मेळिल्लें पील तें थोडेंच सोडटा. ताणें ताका हळूच आपले कुडींत व्हेलें. पूण ताचें म्यांव म्यांव मिनूच्या मान आयकलें. माजरा पिलाचो आवाज खंयच्यान आयलो तें पळोवंक ती भायर आयली. मिनूच्या हातांत माजरा पील पळोवन ती किळचली.

"शीऽ शीऽ हें कसलें हळशिकावणें माजरा पील घेवन आयलां. पयलीं आशिल्लें थंय व्हरून सोड ताका."

"ना, ना, मां, म्हाका हें पील जाय. ताका कोणेंतरी रस्त्यार सोडिल्लें. परत थंय सोडल्यार कोणय खातलो ताका."

-"खालें जाल्यार खावं, म्हाका लागना. पूण तें म्हाका घरांत नाका."

-"मां, अशें म्हणूं नाका गे, काय बरें पील. म्हाका जाय तें."

पूण मांक सुणें, माजरांचो सामको वीट. तिणें ताका बरेंच तापयलें. मिनून हात-पांय आपटिले, रड-रड रडलें. दनपारचें जेवलें लेगीत ना. पूण मां त्या पिलाक घरांत दवरूंक कशीच तयार नासली.

निमणें सांजेचो पप्पा येतकच मिनून सगळी गजाल पप्पाक सांगली. पप्पान रिंकूक दवरपाक सांगलें. अशे तरेन रिंकू मिनूच्या घरांत उल्लें.

पूण मिनूच्या मांक रिंकू मातय आवडनासलें. ती ताका हिडीस-फिडीस

करताली. तातूंत रिंकूक एक वायट संवय आसली. रांदचे कुडींत कितेंय उक्तें उल्लें काय रिंकू तातूंत तोंड घालतालेंच. नुस्त्याचेर सादी ताटली धांपल्यार तें दावखुलान उडयतालें आनी नुस्तें घेवन धांव मारतालें. मांक हरशींच असल्या जनावरांचो वीट तातूंत रिंकू मेळत तातूंत तोंड घालतालें. ती ताका कशीच रांदचे कुडींत पातयेनासली. ताका भायर धांवडायत रावताली.

रिंकू हुशार. ताका समजल्लें रांदचे कुडींत मां आसल्यार धांवडायतली म्हणून. तें रांदचे कुडींत मां आसा कांय ना तें पळोवपाक दारांत रावतालें आनी म्यांव म्हणटालें. ताचो आवाज आयकलो काय मां तापताली, ''यो, यो तूं भितर, लाटणी काडून फाटी बराबर घालतां.''

मागीर रिंकू मिनूचे कुडींत धांव मारतालें. मिनू थंय आसल्यार ताच्या पांयाक घश्टत शेंपडी ताचेर मारत रावतालें. जशें कितें मांची कागाळ तें ताका सांगतालें. मागीर मिनू ताका वेंगेंत घेवन पोशेतालें. मिनू ताका टी.व्ही. पळयतना, मांडयेर घेवन बसतालें. रिंकूक कार्टून आवडटालें. मिनून चॅनल बदल्लें काय तें म्यांव म्यांव करून बोवाळ घालीत वतालें. परत कार्टून लायलें काय पुट्ट करून उडी मारून मिनूचे मांडयेर येवन बसतालें.

नुस्तेकार दारांत आयलो काय रिंकू उचांबळीत जातालें. म्यांव म्यांव करीत भायलें दार ते रांदचे कुडीं मेरेन धांवत रावतालें. ह्या वेळार ताचो शेंपडेचो गोंडो चडच फुलतालो. आतां ताका मांचो भंय दिसनासलो. तें जशें कितें मांक सांगतालें, 'चल बेगीन भायर, नुस्तेकार आयला? ह्या वेळार मांय

ताचेर तापनासली. तिणें म्हणचें, ‘‘आं, कळ्ळें, कळ्ळें म्हाका, नुस्तेकार आयला मगो भायर, घेतां नुस्तें, घेतां. आनी दितां तुका बोडकां.’’

मांचें उलोवप कळिल्ले वरी तें मागीर तिचे फाटल्यान भायर येतालें.

केन्ना केन्नाय नुस्तेकार ताका नुस्तें उडयतालो. तें तोंडांत घेवन तें धांवून मागीलदारांत येतालें, आनी गुर्रम्यांव गुर्रम्यांव करीत खातालें. रिंकूक शिवराक जेवण मातय आवडनासलें. ते दीस तें उपाशीं रावतालें. मागीर मां ताका चपाती, बिस्कुत्यो खावपाक घालताली. अश्यो ताच्यो खोडी आसल्यो.

रातचें रिंकू मिनूचे कुडींत न्हिदतालें. हरशीं मिनूक रिंकू म्हळ्यार सामकें जीव कशें. पूण ताचें रातचें ताच्या म्हऱ्यांत न्हिदप ताका कशेंच आवडनासलें. ताच्या पांया कडेन लेगीत ताणें न्हिदूंक जायनासलें. पयलीं पयलीं रिंकू ताचेच म्हऱ्यांत पांगरुणांत गुठली करून न्हिदतालें. मागीर मिनू रडत मांचे म्हऱ्यांत वतालें. मां येवन ताका धांवडायताली. थोडो वेळ मिनूक थापटावन न्हिदयताली आनी वताली. ती गेली तशें रिंकू हळूच येवन मिनूच्या पांयां कडेन न्हिदतालें.

‘रिंकूच्या ह्या त्रासांतल्यान कशें सुटप?’ मिनून खूब येवजिलें. मागीर ताका एक युक्त मेळ्ळी. ताणें मां कडेन मागून पोन्न्यो गोजड्यो घेतल्यो. ताचें बरें हांतरूण केलें. एक मोव मोव गोजडी पांगरूंक दवरली. रातचें न्हिदूंक वतना मिनू रिंकूक त्या हांतरुणार न्हिदयतालें, ताचेर पांगरूण घालतालें. पूण रिंकूक मनशाची ऊब आवडटाली. तें हळूच येवन मिनूच्या

पांयां कडेन गुटली करतालें.

मागीर इल्ली इल्ली ताका आपल्या हांतरुणाची संवय जाली. आतां तें व्हडय जाल्लें. रातचें उठून घरभर फिरून येतालें. खंयूय खट-खूट आवाज जालो काय थंय धांवून येतालें. घरांत जल्ले-पाली दिसल्यार तोंडांत धरून हाडून खेळोवन खेळोवन मारून चर चर करून चाबून खातालें.

दिसाची तर ताची मजाच आसताली. पोरसांत तें वत खावंक पातळून बसतालें. ह्या वेळार तें दोळे धांपून शेंपडी हालयत बसतालें. ध्यान करूंक बशिल्ले वरी. कावळो, चिमणी उडत म्हऱ्यांत आयलीं काय तांचेर उडी मारून धांवतालें. खिणांत उडून चिमणी झाडार बसताली. रिंकूय धांवून त्या झाडा म्हऱ्यांत येतालें आनी झरझरीत झाडार चडटालें. चिमणी उडून दुसरे कडेन वताली. मागीर रिंकू तिका पळयत म्यांव म्यांव करीत आपल्या नाखटांनी झाडाची खांदी बुड्डितालें.

रिंकूक हळशीक मातय आवडनासली. कितेंय खालें काय तें तोंड मिशयो चाटून पुसून निवळ करतालें.

रिंकू दिसाचें केन्ना केन्नाय हळूच शेजाऱ्यागेर वतालें. शेजाऱ्यांले हुंदीर, पाली, जल्ले मारून खातालें आनी हळूच तांचें कितेंय उगडें मेळ्ळ्यार तेंय खावन धांव मारतालें. कितले दीस शेजाऱ्यांक खबरच नासली तांगेर कोण येवन चोरून खाता तें. तिका रिंकूचो दुबाव आयलो. तिणें एक दीस मिनूचे मांक सांगलें,

-"जाणां मगे मिनूचे मां, आमगेर, दूद, जेवण, कितेंच उगडें उरपाची गती ना. कोण तरी नाच करता, कोण जायत? जल्ले, पालीय ना जाल्यात."

मिनूचे मांक दुबाव आयलो, 'रिंकू बी न्हय मूं, ताका चोरपाची संवय आसाच.'

तिणें दुसरे दिसा हळूच रिंकूचेर लक्ष दवरलें. पळय जाल्यार खऱ्यांनीच रिंकू. तिणें मिनूक सांगलें,

-मिनू, तुजें रिंकू, बरेंच सुबेज जालां. शेजाऱ्यांगेर वचून चोरून खाता. काकीन आयज दुबावानच म्हाका सांगलां. पूण बाकीचीं शेजारी जाल्यार ताका पयलीं मार घालतलीं. ताका सांबाळ.'

पूण मिनू रिंकूक कशें सांबाळटलें? तें ताका तोंडान तरेतरेन समजायतालें, "रिंकू लोकांगेर वचनात, काकी तुका मारतली." आनी ताका वेंगेंत घेवन म्हणटालें, "बिलू बिलू माजरा, नाका वचूं शेजरा, शेजरा गेल्यारी, तुज्या मारती पोल्यारी." पूण रिंकूक कितें हें पद समजूंक आयलां? तें मिनू आपली अपुरबाय करता समजून, गुरम्यांव, गुरम्यांव करून ताचे हात चाट्टालें.

हरशीं मां, मिनू तापलें जाल्यार ती भास ताका कळटाली. पूण दुसऱ्यांगेर वचूं नाका हें तें कानामनार घेनासलें. ताका थंय कितें ना कितें खावंक मेळटालें. तें चड करून दनपारचें काकीगेर आनी हेर शेजाऱ्यांगेरय वतालें.

काकीक कळ्ळें हें रिंकूच... तिणें थारायलें 'रिंकूक बुद्द शिकोवपच.'

जालें दुसरे दीस काकीन थाळ्यांत दूद घालून ओट्या सकयल दवरलें.

आपूण बडी घेवन दारा आड लिपून रावली. ज्युस्त सदच्या वेळार रिंकू हेवटेन, तेवटेन पळयत हळूच भितर सरलें. ताणें सकयल दूद पळयलें. ताचे जिबेक उदक आयलें. तें हळूच थाळ्या म्हऱ्यांत आयलें. ताणें परत हेवटेन तेवटेन पळयलें.

आपलें दावखूल मुखार काडून थाळ्याक लायलें. एक खेप दुदाच्या हून तोपांत ताणें तोंड घाल्लें. ताची जीब, तोंड नाक लेगीत भाजिल्लें. तेन्नाच्यान तें दुदाच्या तोपाक दावखूल लावन पयली थंड आसा जाल्यार पळयतालें. मागीरच ताटली उडोवन दूद पियेतालें.

सदचे संवये प्रमाण ताणें ताटलेक दावखूल लायलें. थंड ताटली पळोवन तें जिबली भायर काडून लपलप करून दूद पियेवंक लागलें. तेन्नाच काकी बडी घेवन ताका मारूंक भितर आयली. रिंकू दूद पितालें खरें पूण सादूर आसलें. ताका काकीच्या पावलांचो आवाज ज्युस्त कळ्ळो. ताणें धांव माल्ली. काकीची बडी थाळ्याक आपटली. थाळ्यांतलें दूद रकलें.

दुसरे दीस तिणें ताटलेंत नुस्त्याचीं बोडकां दवरलीं आनी रिंकूची वाट पळयत रावली. दनपरां हेवटेनची तेवटेनची सुलूस घेत रिंकू भितर सल्लें. ताणें सकयल पळयलें. ताटलेंत बोडकां पळोवन ताचे जिबेक उदक आयलें. तें हळूच बोडकां खावंक ताटले म्हऱ्यांत आयलें. आयज तें चडच सादूर आशिल्लें. खंयच्यान आवाज येता कांय सुलूस घेत ताणें बोडूक तोंडांत घेतलें. तेन्नाच काकीन आसा थंयच्यान बडी शेंवटिली. रिंकून तोंडांत बोडूक

घेवनच धांव माल्ली.

दुरगा वयल्यान उडी मारून रिंकून आपल्या पोरसांत येवन सुसेगाद बसून बोडूक खालें. म्यांव म्यांव करत शेंपडी हालयत तें तोंड निवळ करूंक लागलें. काकी हळूच आपल्या पोरसांत आयली. रिंकूचो राग तिच्या मनांत खदखदतालो. तिणें थंयच्यान दाणो रिंकूचेर शेंवटिलो. रिंकू तोंड निवळ करपाक गुल्ल जाल्लें. तो दाणो ताचे फाटीर पडलो. ते बराबर क्यांव क्यांव करून आड्डत रिंकून घरांत धांव माल्ली. वतां वतां ताणें रागान काकीक पळयलें.

तें धांवत मिनू म्हऱ्यांत गेलें. मिनून ताका सांसपीत म्हळें, ''कितें जालें रिंकू, अशें भियेवन खर्शेत धांपेतशें आयलां.''

दारांतल्यान काकी भितर येत म्हणून दाराक पळयत पळयत रिंकू मिनूचे वेंगेंत मुंगरलें.

त्या दिसाच्यान रिंकू काकीगेरच न्हय तर हेर शेजाऱ्यांगेर लेगीत वचना जालें.

मिनूचे मांन एक दीस म्हळें, ''मिनू, हालीं रिंकू कोणागेर वचना काय कितें? शेजाऱ्यांच्यो हालीं कागाळी आयल्यो नातश्यो?''

-''रिंकू आमचें शाणें जालां. ताका हांवें बरें शिकयलां दुसऱ्यांगेर वचनात म्हणून. तें आतां कोण्णागेर वच्चें ना.''

-''शाणें जालां? काय कोणें बुद्द शिकयली म्हूण कोण जाणा. काकी

म्हणटालीच, ताका सारकें बरे दाखयतां म्हणून.

-"कितेंय जावं, आतां वचना न्हय तें, पुरो, शाणें तें म्हजें बाय."

मिनून ताका वेंगेंत घेवन पोशेलें.

जालें, कांय दीस गेले. रिंकू शाणें कशें, आपल्या घरांत-पोरसांत फिरतालें.

एक दीस कितें जालें, दनपारचीं जेवन जाण्टीं आड पडिल्ली. ऑफिसांत वचपी गेल्ले, भुरगीं अभ्यासाक बशिल्लीं. अशा वेळार रिंकू चड करून पोरसांत सावळेक पांय पातळावन बसतालें.

आजय तें शेंपडी हालयत पोरसांत बशिल्लें.पूण ताची नदर सदचे वरी हेवटेन तेवटेन फिरताली.

इतल्यांत ताका सर्र सर्र असो आवाज आयलो. ताणें कान उबे केले. कितें तरी सर्र सर्र आवाज करीत तांच्या दुरगा वयल्यान काकीच्या पोरसांत देंवतालें. तें सादूर जालें. ताणें शेंपडेचो गोंडो फुलयलो आनी हळूच वचून पळयलें. काळशेंशें एक जिवाणें, काकीच्या घरा वटेन मुखार सरतालें. रिंकून वेळ केलो ना तें धांवत काकीच्या जनेला कडेन गेलें आनी व्हडा व्हडान म्यांवऽ म्यांवऽ करून आड्डूंक लागलें. परत येवन जिवाणें खंय पावलां तें पळयलें. परत काकीच्या जनेला कडेन गेलें आनी आड्डुपाक लागलें. मदींच गुरम्यांव गुरम्यांव करत कितें तरी सांगूक लागलें. काकीगेर काकी सोडून कोणूच नासले. ती रिंकूच्या आवाजान जागी जाली आनी रागान बडी घेवन भायर आयली.

-“हें पाड पडिल्लें कित्याक आड्डता तें पळयतां. एक बडी फाटी बराबर घालतलें. न्हिदूंक लेगीत दिना पाडें.”

बडबडत काकी भायर आयली. काकी उठल्या ती पळोवन रिंकू भायर आयलें. आतां जिवाणें काकीच्या मागीलदारांत पाविल्लें. रिंकू गुरगुरत ताच्या आंगार गेलें. जिवाणें स-स स करत मात्शें फाटीं सरलें.

हेवटेन काकी बडी घेवन रिंकूक मारूंक म्हणून रांदचे कुडींत आयली. आयज रिंकू तिका भियेनासतना म्यांवऽ गुरम्यांवऽ करत कितें तरी सांगिल्ले वरी करूंक लागलें.

येदी मोट्टी फुलयिल्ली शेंपडी आनी रिंकूचें विचित्र आड्डप पळोवन काकीक दुबाव आयलो. तिणें बडी उडयली आनी “कितें जालां गो पापया? अशें आड्डता कित्याक?” म्हळें.

रिंकूचो विचित्र म्यांव म्यांव करून आड्डप मिनूचे मम्मीन आयकलें. तिणें मिनूक म्हळें,

-“बाय गो रिंकूक वचून पळय, काकीगेर वचून व्हडाव्हडान आड्डता.”

मिनू धांवत भायर आयलें. ताणें पळयलें, रिंकू शेंपडी फुलोवन भायर भितर नाचता. मिनूक पळोवन काकीन म्हळें,

-“आगो हें तुमचें रिंकू पळय येदोळच्यान शेंपडी फुलोवन म्हज्या आंगार येता. म्हाका मुखार येवंक दिना. चाळवलां काय कितें गो तें. म्हाका आनी घांस बीस काडत म्हूण भंय दिसता. आपय ताका.”

मिनून रिंकूक कितलें आपयलें. पूण रिंकू मिनूचेंय आयकनासलें. भियेवन मिनून मांक उलो माल्लो.

इतले म्हणसर तें जिवाणें काकील्या मान्न्यांत गेलें. रिंकून ताका ज्युस्त पळयलें. तें आतां मान्न्या भायर रावन म्यांव म्यांव करून आड्डूंक लागलें. तितले म्हणसर मिनूची मां पोरसांत आयली. तिणेंय रिंकूचो बोवाळ पळयलो. "रिंकूचें जालां कितें?" काकीन मिनूचे मांक जनेलांतल्यान पळोवन विचारलें.

- "कितें पूण सांगता तें. कसल्याय अरिश्टाची सुचना दिता तें."

- "कितें? कसलें अरिश्ट?"

-"जिवाणें बी कितेंय येवंक ना मगे तुमगेर?"

-"कितें? जिवाणें? आरे देवा! येदोळ हांवें स्स, स्स असो आवाज आयकल्लो खरो. आतां गे?"

इतले म्हणसर मिनू आनी मां काकीच्या पोरसांत आयलीं. पूण रिंकू तांकां भितर सरूंक दिनासलें. वाटेर मान्नें आनी मान्न्यांत जिवाणें.

मिनू आनी ताची मां भायल्या दारांतल्यान काकीगेर भितर सल्लीं. काकी भंयान कडकडटाली. मिनूचे मांन हळूच मान्न्यांतली लायट लायली आनी मान्न्यांत पळोवचो यत्न केलो. मान्न्यांत बालदे फाटल्यान काळशी जिवाण्याची शेंपडी तिका दिसली. तिणें काकीक सांगलें,

-"आगे, खन्यांनीच बालदे फाटल्यान जिवाणें आसा. म्हणून रिंकू अशें करता."

-“आगे बाये! सादें जाल्यार पुरो. सोरोप बी जाल्यार शीऽ शीऽ शीऽ मारून उडयल्यार लेगीत डंख धरपी जिवाणें तें. कितें करुया गे?”

-“कोणाकय तरी हाडून मारूंक लावचें पडलें.”

-“मां, बेठेंच मारपाच्यो खबरी कित्याक उलयता आनी काकी, सोरोप डंख धरता बी पळय त्यो खबरी फट. आमी जिवाण्यांक केन्नाच मारूंक जायना.”

-“म्हळ्यार, ताका अशेंच वच गो तूं तुज्या घरा म्हणून वोग्गी रावप? काय ताका राखत बसप? तुजीं शाणेपणां नाकात आं असल्या वेळार.”

-“वच तूं बाय, म्हळें आनी तें गेलें. पूण फाल्यां परत येवचें ना गो तें?”

-“शी, सोरोप जाल्यार डंख धरता. ताणें आमचो आवाज आयकला. ताका मारूंकच जाय”

-“काकी, सोरोप डंख धरता, आवाज वळखता म्हणटात तें खरें न्हय. सोरपाक कान बी नासतात. आमचे शाळेंत ‘सर्प इश्ट’ संघटणेचे लोक आयिल्ले. तांणी आमकां जायते तरेचीं जिवाणीं दाखयिल्लीं. आनी तांची म्हायती सांगिल्ली.”

- बाय गो, मिनू तुज्यो त्यो शाळेंतल्यो गजाली शाळेंत दवर. आतां मान्न्यांत जिवाणें आसा, हें रिंकू राखता म्हणून सांग. ना जाल्यार तें येवन काकीक चाबतलें आसलें.”

-“हें, मां, तुमकां मगे सांगल्यार समजना. खंयचेंय जनावर वोगीच येवन

चाबना. जीव-जिवात आमचे इश्ट.

-"बाय, आसूं हां, पुरो. तुज्यो गजाली आयकून. वागल्यार संवसार आरत्याचो परतो जातलो."

-"काकी, मुखा वयले बिल्डिंगेतल्या वॉचमनाक आपयतां हांव. तो मारतलो ताका."

-"नाका मम्मा, ताका मारूं नये. सोरोप इश्टान सांगलां, जिवाण्यांक केन्नाच मारूं नये खंय."

-"मिनू तुजीं शाणेपणां चड जालीं. आमी जिवाणें घरांत पोसचीं नात."

- "ना मम्मा, ताका व्हरूंक सोरोप इश्टाक आपोवया. तो ताका पयस रानांत व्हरून सोडटलो."

-"मिनू कित्याक हट करता? चल मिनूचे मां वॉचमनाक आपय."

-"नाका नाका मां, वॉचमन ताका मारतलो. टिचरीन आमकां सोरोप इश्टाचो फोन नंबर दिला. तुमी हें जिवाणें भायर येता जाल्यार पळयात. तशें रिंकू ताका कशेंच भायर येवंक दिवचें ना. हांव त्या सोरोप इश्टाक फोन करून आपयतां."

मिनू धांवत आपल्या घरा गेलें. ताणें सोरोप इश्टाक फोन करून आपयलो. पूण हेवटेन मांक आनी काकीक सूख नाशिल्लें. मांन वचून वॉचमनाक आपयलोच. तो बडी घेवन येतासर सोरोपइश्ट रोखडोच एक पिशवी आनी खास बडी घेवन आयलो. तें जिवाणें मान्न्यांत बालदे फाटल्यान रावन भायर

वचूंक पळयतालें. पूण ताणें मात्शी लेगीत तकली हालयल्यार रिंकू गुरगुरतालें.

सोरोप इश्टान रिंकूची तोखणाय केली. ताणें जिवाणें पळयलें आनी सांगलें, "हो खर विखारी सोरोप. ताका काणेर म्हणटात."

ताणें आपले खास बडयेन काणेराक पिशवेंत घालो आनी पिशवेचें तोंड बांदलें.

-"आयज तुमी ह्या काणेराक धरूंक म्हाका आपोवन बरें केलें. जिवाण्यांक केन्नाच मारूंक जायना. हांव हाका व्हरून रानांत सोडटलों. आमचे संस्थेचो फोन नंबर वाड्यार सगळ्यांकच बरोवन दवरूंक लायात."

-"बाब रे, हो काणेर तूं रानांत सोडटलो. तो परत फाल्यां आमगेर येवचो ना मूं. आमचो आवाज आयकला ताणें."

-"ना आण्टी, आवाज आयकून जिवाणीं डंख धरून परत येतात म्हणटात ती फट गजाल. हाका सोडटकच तो आपले वटेन वतलो. भिवं नाका तूं."

सोरोप इश्ट काणेर घेवन गेलो.

मिनून रिंकूक वेंगेंत घेतलें आनी ताची अपुरबाय करूंक लागलें. काकीन म्हळें.

-"बाय मिनू, म्हाका तुज्या ह्या रिंकूचो खूब राग येतालो. आमगेर येवन येवन चोरून खातालें म्हणून. पूण आयज ताणें म्हजो जीव वाटायलो. आयच्यान तुजें रिंकू आमचेंय बी इश्ट."

अशें म्हणून काकीन ताटलेंत दूद घालून ताका पिवंक दिलें. मिनूच्या

मांन म्हळें,

-"खरेंच मिनू, म्हाका माजर गांठीक नाका आशिल्ले. पूण आतां मात रिंकूची म्हाका खूब तोखणाय दिसता."

उपरांत कितले दीस तांच्या वाड्यार सगळे जाण रिंकूची तोखणाय करताले. भुरग्यांचें तर तें इश्टच जाल्लें.






